# आणकु माणकुल्यो

## काणयो दोतोशाल्यो





ॉ. उल्हास गोपाळ प्रभू नास्नोळकार

# आणकू-माणकुल्यो काणयो दोतोराल्यो

डॉ. उल्हास गोपाळ प्रभू नास्नोळकार

बिम्ब
प्रकाशन

प्रकाशक / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
दूरध्वनी / (०८३२) २४३८३५५.
प्रकाशन क्र. / १०७. अक्षर जुळणी / बिम्ब प्रकाशन.
छापणावळ / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

पयली आवृत्ती / २३ मे २०१५.
मुखपृश्ठ - रेखांकन / गिरीश नंदा बोरकार.

**आणकू-माणकुल्यो काणयो दोतोराल्यो**

- डॉ. उल्हास गोपाळ प्रभू नास्नोळकार.

**Annku Mannkulyo Kaniyo Dotoralyo** (Children's Stories)

*by* ***Dr. Ulhas Gopal Prabhu Nachinolkar***

मोल : ₹ ८०/-




ISBN : 978-93-84951-95-5

म्हजीं अपुर्बायेचीं माणकुलीं जुंवळीं नातरां

रुही आनी रिया

आज तांचो दुसरो वाडदीस

हांवें खूब विचार केलो

तांकां तांच्या वाडदिसा निमतान कितें दिंवचें?

निमाणें म्हाका दिसलें हें पुस्तकूच तांकां भेटोवंचें.

देखून हें पुस्तक तांच्याच हातान लोकार्पण करतां.

तांकां जेन्ना कळूंक लागतलें,

तेन्ना तींच मोट्या अभिमानान आनी मोगान

आपल्या आज्यान बरयल्ल्यो ह्यो काणयो वाचतलीं.

- उल्हास गोपाळ प्रभू नास्नोळकार

२३ माय २०१५

# अनुक्रम

# काणयों कित्याक?

**का**णयो सांगप आनी वाचप हें जगभर आसा. भुरग्यांक काणी सांगप आनी ताचो अर्थ सांगप हें काम चड करून आजी ना तर आवयचें आसता. काणयेच्या रुपान भुरग्यांक बरें कितें आनी वायट कितें हें समजवपाचो प्रयत्न आसता. ताची मनरिजवण आनी तेच वेळार ताचेर बरे संस्कार जांवचे होच ताचे फाटलो हेतू आसता. भुरग्यांचो मेंदू हो कंवळो आसता आनी ताचेर जाल्ले हे संस्कार जिवीतभर उरतात. देखून तांचेर जाता तितले बरे संस्कार करपाचे प्रयत्न सदांच आमी चालू दवरूंक जाय.

आमच्या जिवितांत आतां खूब बदल जाला. आदलींचे दीस आतां उरूंक नात. तशेंच आदलींचें व्हडलें कुटुंबय उरूंक ना. तिनसांजचे वेळेर भुरग्यांक हातपाय धुवन, देवाक पांयां बी पडूंक लावन मागीर उजळणीक बसोवन गोश्टी बी सांगपाचे दीस फाटीं पडल्यात. टेलेविजनाचेर कार्टुन बी लावन दिले काय आमी मेकळे. आयज आमकां काणयो आनी संस्कार हे शब्द आयकूंक येनात. हें उणेंपण म्हाका होलमलें आनी एक प्रयोग म्हूण हांवें एक काणी बरयली आनी ती सुनापरान्त दिसाळ्या खातीर धाडून दिली. ती छापून आयली. ती वाचून श्रीमती लिला भट हिणें आपली चली माधवी कडल्यान रकाद धाडलो कीं 'बाबाक सांग अश्योच बोध आशिल्ल्यो काणयो बरय आनी पुस्तक छाप.' हांवें तिचें उतर धरलें आनी हो ल्हानसो प्रयत्न केलो.

हातूंतल्यो कितल्योशोच काणयो तुमी ह्या आदीं आयकल्यात आसतल्यो! वाचल्यात जातल्यो! कोणें तरी तुमकां सांगल्यात आसतल्यो! म्हणटकच त्यो म्हज्यो स्वताच्यो असो दावो हांव निखालस करिना. त्यो सगळ्यो एकठांय हाडून संकलीत करपाचो म्हजो तो एक यत्न म्हणूं येता जाका लागून तुमच्या मदल्यां कोणांकूय आपल्या भुरग्यांक त्यो वाचून दाखोवंक वा सांगूंक मेळटल्यो.

ह्या म्हज्या सुपल्ल्या वावरांत म्हाका जायत्या लोकांचो आदार लाभला. त्या सगळ्यांच्या नांवांचो उल्लेख करप शक्य जायत शें दिसना.कोणाचेंय नांव चुकून उरूं येता. तशें जर घडलां आसत जाल्यार ताणीं म्हाका माफ करचो. म्हजी घरकान्न स्वरुपा, म्हजे दोन चिरंजीव बाब परींद आनी बाब स्वप्नील, सून सिंदुरा आनी अपुर्बायेचीं दोन माणकुलीं नातरां रुही आनी रिया हांचे हांव उपकार कशे मानूं? तांकां दिवपाच्या वेळांतलो थोडोसो वेळ काडून हांवें ह्या पुस्तकाक दिलो. सदचे भशेन बाय माधवी भट म्हळ्यार आतांचें माधवी खरंगटे हाणें खूब तकालस घेवन म्हजें हातबरप वाचूंक येता तशें बरोवन काडलें. निकतेंच लग्न जाल्लें आसतनाय आपलो मोलादीक वेळ ताणें म्हज्या ह्या वावराक दिलो तें म्हज्यान केन्नाच विसरप शक्य जावंचेना. प्रा. माधव कामत हाणीं प्रस्तावना बरोवन आनी काणयांचें अचूक तात्पर्य दिवन ह्या पुस्तकाक सोबाय हाडली. तशेंच बाब दिलीप बोरकार हाणीं आपलेंच लिखाण अशें मानून ताचेर संपादकीय सोपस्कार केले आनी पुस्तकाची गिरेस्तकाय वाडयली. हांव तांचो, बिम्ब च्या हेर सगळ्या सहकाऱ्यांचो, मुखपृश्ठ सजोवपी चित्रकार बाब गिरीश बोरकार हांचो सगळ्यांचो आभारी आसां. पड्ड्या फाटल्यानूय आनीक कितलेशे कलाकार वावुरल्यात. तांकां हांव कशें विसरूं? तांचोय हांव आभारी आसां.

वाचकवर्गा शिवाय ह्या पुस्तकाक कांयच अर्थ ना हाची म्हाका जाण आसा. तांकां हें पुस्तक नक्कीच आवडटलें हाची म्हाका खात्री आसा. ताणीं ह्या पुस्तकांतल्यो काणयो भुरग्यांक सांगल्यो, तांकां वाचूंक दिल्यो आनी ताचे पासून ते कितेंय बोध घेवंक पावले जाल्यार म्हज्या ह्या वावराचें सार्थक जावंक पावलें अशें हांव मानीन. इतलें सांगून सगळ्यांक देव बरें करूं म्हणटां.

**– डॉ. उल्हास गोपाळ प्रभू नास्नोळकार**

# तोखणाय

**आ**मच्या गोंयचे एक व्हड नामनेचे दोतोर, बाब उल्हास नास्नोळकार हाणीं बरयिल्ल्या ‘आणकु माणकुल्यो काणयो दोतोराल्यो’ ह्या काणयां झेल्यांत छत्तीस काणयांचो आसपाव आसा. बालसाहित्याचो हो जावन आसा एक अती उत्कृश्ठ नमुनो. भुरग्यांक आनी जाणट्यांकूय बी त्यो भोव भोव मानवतल्यो. जरी ह्यो काणयो नितीकथा वा बोधकथा ह्या स्वरुपाच्यो आसल्यो तरी तांचें निवेदन रंजक, सुरबूस आनी खुसखुशीत जालां. पुस्तक वाचूंक आरंभ करतकच तें वाचून सोपऽ म्हणल्यार सकयल दवरूंक जमना. इतल्यो ह्यो ओडलावण्यो कथा आसात.

दोतोराची शब्दकळा सोबीत, सादी, रोसाळ. उतरां प्रवाही, भुरग्यांक सहज समजतलीं अशीं. काणयो आशयान उपाट भरिल्ल्यो आसात. तो आशय आपल्या काळजांतल्यान भुरग्यांच्या काळजांत पावोवपाचो वावर दोतोरान फिशालकायेन केला.

दोतोर उल्हासबाब हाडांचो दोतोर. शल्य शास्त्रज्ञ. ह्या काणयांच्या झेल्यावरवीं उल्हासबाब मनांचे दोतोर जाल्यार वाचप्यांचीं मनां संस्कारीत जातलीं. मनीसपणाचीं, मानवी मुल्यांचीं आनी उजू जिणेच्या ध्यासाची पोसवण करपाची तांक ह्या काणयांत आसा.

ह्यो काणयो सांगतना दोतोरान मौज-मजेचीं खूब सोबीत अशीं सुरसुरीं कथानकांत पेटोवन सोडल्यांत. हातूंतल्या देवांक ‘आयडिया’ सुचतात. साक्षात शंभू म्हादेव मनीस आनी दैत्य

हांच्या पंगडा मदीं जावपी फुटबॉल मॅच पळोवपाक येता. येता तो येता, मनशान गोल मारल्यारूय नाचता आनी दैत्यान मनशाचेर गोल मारल्यारूय खोशी जाता आनी नाचता. काणयां भितर पात्रांची विविधताय आनी तांच्या चित्रणांतली अस्सलताय खचाखच भरिल्ली आसा. हातूंत देव आसात; दानव, मनीस, पशू-पक्षी, राजा, फकीर, भाटकार, पसरकार, सुश्ट, दुश्ट, हुशार, चित्र विचित्र, वाळेस आनी पराक्रमी अश्या पात्रांची मजलस भरल्या ती खूब खोसदिणी.

ह्या झेल्याच्या वाचप्यांची, नेण्टयांची, जाण्टयांची, सगळ्यांची आनंदान उपाट्ट भरिल्ली मनरिजवण तर जातलीच, तेच वांगडा बुध्दीचें प्रबोधन आनी मनाचें उन्नयनय बी जातलें. ह्या मोलादीक, सांस्कृतीक आनी समाजीक, नैतीक घटाय दिवपी वावरा खातीर दोतोराचें कौतूक करीत तितलें थोडें.

भुरगीं निश्चीतपणान म्हणटलीं, 'दोतोरकाका, थँक्यू व्हेरी मच. आनीक काणयो घेवन बेगीन यो. आमी वाट पळयतात.'

**– प्राचार्य माधव कामत**

# मूळ

एक अयस पयस गांव आशिल्लो. थंयच्या बाजारांत एक चौक आशिल्लो. त्या चौकांत एक फकीर बसतालो. तो त्या चौकांत बसुनच आसतालो. ताका तरांतरांचे प्रस्न विचारपाक गांवचे लोक ताचे सरी येतालो. तो तांचे प्रस्न आयकून घेतालो आनी तांकां फावो तश्यो जापो दितालो. ताणें दिल्ले जापेन लोकांक बरोच फायदो जातालो आनी मागीर लोक आपखोसयेन ताचे झोळयेंत आपले तांकी प्रमाणे पयशे उडोवन वताले.



ताचे भोंवतणी सदांच लोकांची गर्दी आसताली. ताणी दिल्ल्या दुडवांचेर तो आपलें पोट भरतालो आनी थंयच्या एका दुकानाच्या आडोसाक सुशेगाद न्हिदतालो.

एक दीस थंयचो राजा त्या चौकांतल्यान वतालो. गर्दी पळोवन राजान आपल्या शिपायकांकडेन चवकशी केली. शिपायकान सगळी खबर काडली आनी ती राजाच्या कानार घाली. असो कोण फकीर आसूंक शकता काय? राजाक उत्सुकता जाली. राजान त्या फकिराची परिक्षा घेवपाची थारायलें. राजान थंय वचून ताका आपल्या राज्या विशीं दोन प्रस्न घाले. फकिरान थोडो वेळ विचार केलो आनी राजाक जाप दिली. राजा तसोच आपल्या राजवाड्यांत गेलो आनी ताणें तोच प्रस्न आपल्या प्रधानाक केलो. प्रधानान दिल्ली जाप राजाक बरी मानवली ना.

दोन दिसांनी राज्याचेर एक संकश्ट आयलें आनी तें कशें सोडोवंचें तें राजाक कळना जालें. ताणें रोकडीच फकिरा कडेन धांव मारली. ताणें मनांत म्हळें, आतां मात त्या फकिराची खरी परिक्षा. फकिरान थंडपणान राजाची गजाल आयकून घेतली आनी राजाक त्या संकश्टाचेर दिस्त उपाय सांगलो. उपाय आयकून राजा सामको खूश जालो आनी फकिराक ताणें आपल्या वांगडा आपल्या म्हालांत येवपाचें आमंत्रण दिलें. फकीर तयार नाशिल्लो पूण राजान सामको आग्रोच धरिल्ल्यान फकिराचो नाईलाज जालो.

फकीर राजा वांगडा राजवाड्यांत गेलो. ताका राजान थंय रावपाक बरिशी कूड दिली आनी बरेऽ नवे कपडे दिले. आंगार थोडीं भांगरां

शिंगरांय घालीं. फकिरूय खूश जालो. जेन्ना जेन्ना राजाक खंयच्याय प्रस्नाचें उत्तर सुचनाशिल्लें तेन्ना तेन्ना राजा फकिराचें मत घेतालो. राजा अशे तरेन फकिराचेर सामको खूश आशिल्लो. एक दीस राजान फकिराची आपल्या मंत्रिमंडळांत नेमणूक केली. जशे जशे दीस वचूंक लागले तशे तशे फकिराचें मंत्रिमंडळांत वजन वाडूंक लागलें.

हाका लागून रोकडीच राजवाड्यांत कुजबूज सुरू जाली. मंत्रिमंडळांतले लोक फकिराचो मत्सर करूंक लागले. लोकांनी पळयलें की फकीर सदांच सांजचो चार ते पांच वरां मेरेन मागिलदारचे एके कुडींत कितें तरी करता. ताणीं एक कट रचलो आनी राजाक सांगलें, की फकीर कांय लोकां वांगडा आपले कुडींत कट कारस्थान रचता. तो राज्य बळकावन आपूण राजा जावंक सोदता. ताणीं ही गजाल मीठ मिरसांग लावन सांगू नाका राजाकूय भंय दिसलो. ताणें फकिराचेर पाळत दवरली. एक दीस फकीर कुडींत गेल्लो आसतना राजान दाराचे खांचितल्यान हळूच कुडींत पळयलें. जाल्यार ताका एकटो फकीरच थंय थंड बशिल्लो दिसलो. कुडींत आनीक दुसरो कोणूच नाशिल्लो.

दुसरे दिसा राजान फकिराक आपल्या म्हऱ्यांत आपोवन हाडून चवकशी केली. फकिरान ताका खरी गजाल सांगली. ताणें राजाक सांगलें, आपूण सदांच हे कुडींत दवरिल्ल्या पोरण्या कपड्यां कडेन पळयत बसतां आनी आपलें मूळ याद करतां. समजा एक दीस तुवें म्हाका हांगासरल्यान धांवडावन दिलो जाल्यार म्हाका पयलीं भशेन

जगूंक येवपाक जाय. हांव भुल्लुसून जर म्हजें मुळच विसरलों जाल्यार फुडें जगप कठीण जातलें.

फकिराची ही जाप आनी ताचे ते खोल विचार आयकून राजा सामको भारावन गेलो. ताणें उठून फकिराक घट्ट वेंग मारली आनी खूश जावन दुसऱ्याच दिसा ताचो भर दरबारांत व्हड सत्कार केलो.

**तात्पर्य :** *आमच्या जीवनांत आमी केदेय व्हडले पसून जाले तरी आमचें मूळ आमी विसरूंक फावना. केन्नाय वायट प्रसंग आयलो आनी मूळ विसरलो जाल्यार मागीर जगणें कठीण जाता.*



# बंधन

दिवाळेची सुटी सुरू जाली. राजू, बबलू आनी शाणू बी निक्तीच परिक्षा सोंपोवन मेकळे जाल्ले. सुटयेंत कितें करप हाचेर तिगांचोय विचार चालू आसतनाच राजूक कल्पना सुचली.

चला आमी पतंग करुया.

तिगांकय ही कल्पना आवडली. ताणीं बाजारांत वचून रंगीत फोली हाडल्यो. राजूचे आवयन तांकां खळ करून दिली. चुडटांचे व्हीर हाडून ताणी पतंग तयार केले. तिनय पतंग सुंदर दिसताले. तिगय जाण आपापले पतंग घेवन शेतांत गेले. तांकां पतंग वयर उडोवपाक खूब मजा येताली. कोणाचो पतंग चड वयर वता तें पळोवपाक आनिकूय मजा येताली. तिगांनीय आपापले पतंग वाऱ्यार उडयले.

जशे पतंग वयर वयर वचूंक लागले तशे ते एकमेकांकडेन उलोवंक लागले. राजूच्या पतंगान सांगलें, हांव आतां दोरी तोडटां आनी मेकळों जातां. मागीर हांव जाय थंय वचूंक शकतलों. बबलूचो पतंग हें आयकून हांसलो आनी ओग्गी रावलो. शाणूलो पतंगूय राजूल्या पतंगाचें म्हणणें पटून आपलीय दोरी तोडपाक धडपडपाक लागलो. पतंग जशे जशे वयर वताले तशे तशे ते फडफडटाले.



तिगूय जाण सकयल रावन तें पळोवन आनंद घेताले. राजू आनी शाणूले पतंग आपआपले दोरये कडेन झगडूंक लागले. इतल्यांत राजूल्या पतंगाची दोरी तुटली आनी तो वाऱ्या वांगडा उडत गेलो आनी जमनीर वचून आपटलो. शेवटाक चिखलांत वचून पडलो. राजूक वायट दिसलें. बबलू आनी शाणू आपापले पतंग घेवन आपल्या घरा गेले. चिखलांतलो पतंग मात रडत चिखलांतूच उरलो.

चिखलांत एकटोच पडिल्ले कडेन तो पतंग येवजुपाक लागलो. जो पर्यंत आपल्याक धाग्याचें बंधन आशिल्लें तो पर्यंत हांव उंच उंच उडटालों. तें तुटलें आनी हांव असो रस्त्यार पडलों. आतां आपल्याक कोणूच पळयना, ना म्हणल्यार विचारीय बी ना. आतां आपल्याक अशेंच ह्या चिखलांत पडून रावपाक जाय. आपणें बंधन तोडूंक नाशिल्लें जाल्यार आपल्या नशिबांत हें दुख्ख नासतलें आशिल्लें...

**तात्पर्य :** *स्वातंत्र्य म्हळ्यार स्वैराचार न्हय. कांय बंधनां स्वातंत्र्याचेर आसत जाल्यार जीण प्रगतिशील जाता.*



# अन्नदान

एका गांवांत एक जाण्टें जोडपें रावतालें. तांचो चलो पयस शारांत कामाक आसतालो म्हणून हीं दोगांच जाणां घरांत एकटींच रावतालीं. तांचो दोगांयचोय देवाचेर खूब भावार्थ आशिल्लो. सदांच तिनसांज जातकीर तीं जेवणाचें एक पान वाडटालीं आनी कोणाय गरिबा खातीर मागिलदारांत एका हुंबऱ्यार दवरतालीं.

त्याच गांवांत एक गरीब म्हातारो रावतालो. ताचे फाटीक एक कुबड आशिल्लें. तो चलतना वाकडो तिकडो चलतालो. सद्दां



तिनसांजचो त्या हुंबऱ्या कडेन येवन तें वाडिल्लें पान घेवन वतालो. तशें करतना तो वतां वतां व्हडव्हडल्यान म्हणटालो, 'बरें करणाऱ्याचें सदांच बरें जाता, वायट करणाऱ्याचें वायट ताच्याच पांयांकडेन येता.' हें आयकून घरचे ते जाण्टे बायलेक सदांच राग येतालो. हो मनीस सदांच आमचें अन्न खाता आनी एक्कूय दीस आमकां बरोऽऽ आशिर्वाद मात दियना.

एक दीस अशेंच रांदता आसतना तिका त्या गरीब म्हाताऱ्याची याद येवन ताचो एकदम राग आयलो. ताका एक बरोऽ धडो शिकोवपाचो विचार तिच्या मनांत आयलो. अशें केल्यार तो सुदारतलो आनी अशें कित्याकितेंय उलोवंचोना अशें तिका दिसलें. एक दीस तिणें ताच्या पानांतले चपातेक ओंकारे येवपाचें वखद घालें. पूण थोड्या वेळान तिचेंच मन तिका खावपाक लागलें. तिणें नव्यो चपात्यो केल्यो आनी वखद घाल्ल्यो चपात्यो भायर उडयल्यो. सदांभशेन म्हातारो आयलो, तशीच बडबड केली आनी दवरिल्लें जेवण घेवन आपले वाटेन गेलो.

तेच मध्यान रातीं त्या जोडप्याच्या दारार कोणें तरी वाजयलें. दार उक्तें करून पळयत जाल्यार तांचोच चलो जो शारांत कामाक आसतालो, तांच्या सामकार उबो आशिल्लो. ताणीं ताका बेगीबेगीन भितर घेतलो. पिवपाक उदक दिलें आनी इतल्या उसरां येवपाचें कारण विचारलें. ताणें सांगलें की वाटेर आपली बस मोडली आनी येवपाक दुसरें कांयच साधन नाशिल्ल्यान सगळी वाट चलून येवचें पडलें. वाटेर कांयच खावपा जेवपाची सोय नाशिल्ली आनी आपल्याक खूब भूक लागिल्ली. इतल्यान वाटेर खोंपटी दिसली. तातूंत एकलोच एक म्हातारो रावतालो. तो सामको वाकडो तिकडो आशिल्लो

आनी ताचे फाटीक कुबड आशिल्लें. पूण तो खूब दयाळ आशिल्लो. आपणें ताचे लागीं उदक मागलें. ताणें पिवपाक उदक दिलेंच त्या भायर आपल्या जेवणांतलें अर्दें जेवणूय दिलें. आपली भूक भागली म्हुणून आपूण घरा मेरेन पावूंक शकलों अशें ताणें आवयक सांगलें.

ताची गजाल आयकून आवयक सामको धक्को बसलो. तो म्हातारो सदांच कितें बडबडटालो ताचो अर्थ तिका आज समजलो.

**तात्पर्य :** *बरें करणाऱ्याचें सदांच बरें जाता, वायट करणाऱ्याचें वायट ताच्याच पांयांकडेन येता.*



# संस्कार



**ए**के शाळेंत ल्हान ल्हान भुरगीं शिकतालीं. तांची टिचर तांकां मोगान शिकयताली. एक दीस इंग्लीशीचो वर्ग चलतना टिचरीन तांकां 'बी' हें अक्षर शिकयलें. बी पासून बॉल जाता तशेंच बी पासून बॉटल जाता अशें टिचरीन भुरग्यांक सांगलें. मागीर टिचरीन बॉटलचें एक उदारण दिवंक सांगलें.

एका भुरग्यान हात वयर केलो आनी उबो रावून 'वॉटर बॉटल' अशें म्हळें. तशें दुसऱ्या भुरग्यान 'मिल्क बॉटल' अशी जाप दिली.

तिसरो उबो रावलो आनी ताणें 'हनी बॉटल' अशें उदारण दिलें. त्या बराबर हाताचें बोट वयर करीत चवथो भुरगो उबो रावलो आनी ताणें, 'व्हीस्की बॉटल, बियर बॉटल, वायन बॉटल' असलीं कोणाक अपेक्षीत नाशिल्लीं उदारणां दिलीं. आयकून टिचर सामकी शॉकाद जाली. पूण तिणें त्या भुरग्याक कांयच म्हळें ना.

दुसरे  दिसा तिणें त्या भुरग्याच्या पालकांक शाळेंत आपोवन हाडलीं. घरांत जें वातावरण आसता ताचो भुरग्यांचेर कसो प्रभाव पडटा हें तिणें त्या भुरग्याच्या आवय बापायक बरेऽ भशेन समजावन सांगलें. त्या भुरग्याच्या आवय बापायक आपली चूक कळून आयली. ह्यान फुडें आपल्या भुरग्यां सामकार तांचे पिराये लागीं मेळ बसना असलीं कर्तुबां घडचिनात म्हणपाचें उतर त्या पालकांनी टिचरीक दिलें.

**तात्पर्य :** *जाणटेल्यांची देख भुरगीं घेतात.*



# प्रार्थना

एक दीस एक रुशी जंगलांतल्यान वतालो. वतां वतां ताका कोणें तरी किंळच्यो मारिल्ल्याचो आवाज आयलो म्हणून तो त्या आवाजाचे दिकेन गेलो. पळेत जाल्यार थंय ताका एक भिल्ल, देवाची प्रार्थना करता आसतना दिसलो. तो भिल्ल व्हडान किंळच्यो मारून देवाक



आपलें दुख्ख सांगतालो आनी देवाकडेन आशिर्वाद मागतालो. रुशीक ताची काकुळट दिसली आनी ताचें अज्ञान पळोवन वायटय दिसलें. ताणें ताका हळूच कुशीक आपयलो आनी देवाची प्रार्थना कशी करची तें सांगलें आनी ताणें भिल्लाक मंत्रय कशे म्हणचे हेंय शिकयलें. ताचेकडल्यान ते मंत्र सात–आठदां म्हणूनय घेतले.

आपणें एका भिल्लाक प्रार्थना कशी करची आनी मंत्र कशे म्हणचे हें शिकयल्ले बद्दल रुशीक खूब आनंद जालो, थोडो गर्वय जालो. आपणाक हाचें पुण्य मेळटलेंच हे आशेन तो मात्सो फुगलो आनी भिल्लाक थंयच सोडून तो जंगला दिकेन फुडें वचूंक लागलो.

थोडी वाट चलतकीर रुशी दाट जंगलांत पावलो. तो आपल्याच नादांत मग्न आशिल्लो. इतल्यांत थंय एक आकाशवाणी जाली आनी ताका देवाचो आवाज आयकूंक आयलो. देवान म्हळें, 'आज तुवें म्हज्या खऱ्या भक्ताची वाट लायली. तो भिल्ल सदांच मनापसून म्हजी प्रार्थना करतालो. तो भोळो. ताका कांय समजना. पूण ताणें केल्ली प्रार्थना म्हाका पावताली. आतां तो ओठांनी कितें तरी पुटपुट्टा. तो कितें पुटपुटता तें ताकाच समजना. असली प्रार्थना म्हाका कशी पावतली? म्हाका फक्त काळजांतल्यान केल्ली प्रार्थनाच पावता. मागीर ती कशीय म्हणूं!'

तें आयकून रुशीक खूब दुख्ख जालें आनी लजय जाली. आज ताका खरे प्रार्थनेचो अर्थ समजलो.

**तात्पर्य :** *आपल्याक होलमता तेंच व्यक्त केल्यार देवा मेरेन सारकें पावता.*



# तोखणाय

एक दीस आमोरेचेर एक घोण एका सोरपाक धरपाक झिलींनी भितर सरली. घोणीक पळोवन सोरोप बेगबेगीन झिलींनी चड भितर गेलो. पूण घोण ताच्या फाटल्यान धांवतना झोपांनी शिरकून उरली. तिणें खूब प्रयत्न केलो पूण ती चडचड घुस्पूंक लागली. इतल्यांत रात जाली आनी तिका कांयच दिसना जालें.

त्याच झोपांनी एक नातूक रांवतालें. रात जातकीर तें भायर सरता आसतना ताका त्या झोपांत शिरकल्ली घोण दिसली. ती घोण रडटाली. नातकान तिची चवकशी केली आनी ताका तिची मात्शी काकुळट आयली. ताणें घोणीक हळुहळू रस्तो दाखयलो आनी भायर रस्त्यामेरेन हाडून सोडली.

नातकान घोणीक सांगलें, आयची रात हांगाच राव आनी फाल्यां उजवाडटकीर तूं उडून वच. घोण हें आयकून खोशी जाली आनी तिणें नातकाक विचारलें, 'हांव तुका आतां कितें दिवं?' नातकान सांगलें, 'तूं म्हाका कांयच दिवं नाका. आमी दोगांय आतां बऱ्योऽऽ इश्टीणी जावया आनी तूं म्हज्या पिलांक मात केन्नाच खावं नाका.'

घोणीन नातकाक विचारलें, 'तुजीं पिलां हांव कशीं ओळखूं? तीं कशीं दिसतात?'



नातकान सांगलें, ‘सगळ्या पक्षां भितर सुंऽऽदर दिसतात न्ही तीं म्हजीं पिलां हां!’

‘हां’ म्हणून सांगून फांतोडेचेर घोण उडून गेली.

त्या दिसा पसून घोणीन सदांच ते झिलीनी येवप. दिसत जाल्यार नातका वांगडा गजाली मारप आनी परत वचप. एक दीस घोण अशीच त्या झोपां म्हऱ्यांत आयली. थंय तीन पिलां खेळटालीं, घोणीन बरेंऽऽ बारीकसाणीन पळेलें. तीं सामकीं कुरूप आशिल्लीं. तोंडां बी सामकीं वाकडीं-तिकडीं आशिल्लीं. तिणें विचार केलो, हीं काय नातकाचीं पिलां आसूं नज. हीं तर सामकीं कुरूप. तिणें एक एक करून तिनय पिलां फस्त केलीं.

नातूक घरा येवन पळेत जाल्यार तिगेलीं तीनय पिलां ना जाल्यांत. तिका वयर घोण बशिल्ली दिसली. तिणें घोणीकडेन चवकशी केली. घोणीन सांगलें, ‘‘हांवें तुजीं पिलां खावंक ना. हांवें तीन

पिलां खाल्यांत खरीं पूण तीं सामकीं वांकडीं तिकडीं आनी कुरूप आशिल्लीं. तुज्या सुंदर पिलांक हांव आफडूंक सुद्दां ना.''

हें आयकून नातूक बाबडें रडत बसलें. ताका आपली चूक कळून आयली की आपलीच तोखणाय आपल्याकच नडली म्हणून.

**तात्पर्य :** *दर एक आवयक आपलीं भुरगीं सुंदरच दिसतात. पूण प्रसंग वळखून तोखणाय करप शाणेपणाचें थारता.*



# धीर

एक हॉस्पिटल आशिल्लें. तें हॉस्पिटल सदांच तरेतरेच्या पिडेस्तांनी भरिल्लें आसतालें. अशेच एका वॉर्डांत दोन पेशन्ट आशिल्ले. एक जाण्टोसो पेशन्ट जनेलाक तेंकून आशिल्लो. ताच्या पुलमावांत संसर्ग जाल्ल्यान ताका खोंकली येताली म्हणून दोतोरान जाता तितलो बसून राव म्हणून सांगिल्लें. तो चडसो वेळ बसतालो आनी जनेलांतल्यान भायर पळेत रावतालो.

ताच्या शेजारच्या मनशाक फाटीक मार बशिल्लो आनी ताका दोतोरान न्हिदून राव म्हणून सांगिल्लें. ह्या मनशाक सदांच खूब



वायट दिसतालें की आपणाक भायर पळोवपाक मेळना आनी आपलो वेळ वचना म्हणून. ताणें आपल्या शेजारच्या मनशाकडेन इश्टागत केली आनी तो जनेला भायर कितें पळयता तें आपणाक सांग म्हणून सांगलें.

त्या दिसा पसून जनेला कडलो मनीस आपल्या शेजाऱ्याक भायल्यो गजाली सांगूंक लागलो. ताणें सांगप आनी हाणें दोळे बंद करून विचार करप आनी त्या गजालींचो आनंद घेवप. अशें सदांच चलतालें.

जनेलाकडलो मनीस सांगतालो की भायर एक सुंदर बाग आसा. थंय ल्हान ल्हान भुरगीं बरीं नाचतात, खेळटात, धांवतात. एक बरोऽ पेंवपाचो हौद आसा. तातूंत भुरगीं कशीं पेंवतात, मस्ती केल्यार आवयो भुरग्यांक कशीं मारतात, जाण्टे लोक बांकार बसून कश्यो गजाली करतात, तरूण जोडपीं कशीं हातांत हात घालून भोंवतात आनी बसून कशीं हांसतात, खिदळटात! एक दीस ताणें थंयच्यान लग्नाची वरात कशी वता तेंय सांगलें. ह्या कुशीक बशिल्ल्या मनशाक लग्नाचें वाजप आयकूंक आयलेंना. पूण तो मनांतल्या मनांत चित्रां रंगोवंक लागलो आनी आनंद घेवंक लागलो. अशें करतां करतां दीस बरे मजेंत गेले आनी दोगांयचो वेळूय बरे तरेन वचूंक लागलो.

एक दीस सकाळीं जनेलाकडलो नीस उठलोच ना. थोड्या वेळान नर्स आयली. तिणें ताका तपासलो. रोखडोच दोतोराक आपयलो. पळेत जाल्यार तो मनीस मेल्लो. शेजारच्या मनशाक खूऽब्ब वायट दिसलें. थोड्या वेळान थंय काम करणाऱ्या मनशांनी ताचें मडें थंयच्यान उबारून भायर व्हेलें. हें पळोवन शेजारच्या मनशान

नर्सीकडेन आपल्याक जनेलाकडले खाटीर घालपाची विनंती केली. ताणीं खाट साफ केली आनी त्या मनशाक जनेलाकडेन घालो. ताणें प्रयत्न केलो आनी फाटींत दुखता आसतना पसून जनेलांतल्यान भायर पळयलें. पळयत जाल्यार ताका कांयच दिसलें ना. थंय फक्त एक व्हडली वणट आशिल्ली.

ताणें बेगबेगीन नर्सीक उलो मारलो आनी तिका सऽगळी गजाल सांगली. नर्स हांसली आनी म्हणूंक लागली, ‘‘तो मनीस सामको कुड्डो आशिल्लो, ताका कांयच दिसनाशिल्लें.’’

नर्सीचें म्हणणें आयकतकीर हो मनीस सामको अचंबीत जालो. तो येवजूंक उरलो.

म्हणजे इतले दीस हो मनीस स्वता कुड्डो आसून म्हाका न्हिदिल्ले कडेन उमेद, आनंद दिवपा खातीर कशीं कशीं चित्रां रंगयतालो!

ताणें म्हाका जगपाक धीर दिलो, आनंद दिलो आनी स्वताय हें सांगतना आनंद घेतलो.

आनी मनांतल्या मनांत ताणें ताका व्हडलो नमस्कार केलो.

**तात्पर्य :** *स्वताचें दुख्ख विसरून दुसऱ्यांक सूख दिता तोच सुखी मनीस.*



# चपळ आनी बुदवंत

तुमकां खबर आसतलीच जेन्ना सोंश्याची आनी कांसवाची शर्यत लागली तेन्ना कांसव खूब फाटीं उरलो आनी तें पळोवन सोंसो थोडोसो आराम करपाक रावलो. आराम करता आसतना ताका न्हीद लागली आनी कांसव हळुहळू चलत फुडें पावन शर्यत जिंकलो.

सोंश्याक तेन्ना आपली चूक कळ्ळी आनी भितरल्या भितर रागय आयलो. तो म्हणूंक लागलो आपूण शाणो आनी चपळ. अशी हांव हार मानचो ना. सगळ्या सोंश्या जातीकच लज जाल्ली ती. ताणें कांसवाक म्हळें, 'आमी परत शर्यत लावया.' कांसवान विचार केलो आनी म्हळें, 'हांव तयार आसां. पूण शर्यतीचो रस्तो मात हांव सांगतलों.' विचार करिनासतना सोंश्यान रोखडेंच 'हय' म्हळें.



कांसवान ताका एक नवो रस्तो सांगलो. त्या रस्त्यार एक व्हाळ आशिल्लो आनी फुडें एक देऊळ आशिल्लें. कांसवान म्हळें, 'जो देवळाकडेन पयलीं पावतलो तो जिंकतलो.'

हे खेपे सोंश्यान खूऽऽब तयारी केल्ली. मनांत म्हळें हांव देवळाकडेन पावसर आराम करचों ना. दोगांयनी सुरवात केली. सोंसो धांवलो आनी न्हंयकडेन पावलो. न्हंय कशी हुपची तें सोंश्याक कळना जालें. इतल्यान कांसव हळुहळू करून न्हंये पर्यंत आयलो. न्हंयत उतरलो आनी पेंवत दुसऱ्या काठापर्यंत गेलो आनी देवळा मेरेन पावलो. सोंसो तोंडांत बोट घालून पळेतच उरलो. हेय खेपे सोंसो हारलो.

पूण सोंश्याक आतां कळून चुकलें की आपली फक्त चपळायच कांय कामाची नासता तर ताच्या बराबर आपणें चतूरय आसूंक जाय.

त्या दिसाच्यान कांसवान आनी सोंश्यान एकठांय येवचें थारायलें. दोगांयचीय बरीऽऽ इश्टागत जाली. जेन्ना कांसवाक बेग्गीन वचपाचें आसतालें तेन्ना सोंसो ताका आपले फाटीर घेवन उडयो मारीत वतालो आनी जेन्ना सोंश्याक उदक हुपपाचें आसतालें तेन्ना कांसव ताका आपले फाटीर घेवन उदकांतल्यान वतालो.

अशे तरेन फुडलें जिवीत ताणीं पैज मारिनासतना खोशयेन एकमेकांक मदत करीत सारलें आनी सुखाऽऽन घालयलें.

**तात्पर्य :** *सर्तीन कोणूच फुडें पावना. एकामेकाच्या आदारानच मनीस सुखान जियेता.*



# काम आनी पगार

एक हुशार आनी चौकस राजा आशिल्लो. ताचे कडेन प्रधान, मंत्री आनी शिपाय आशिल्ले. तो राजा सामको शिस्तीचो आनी चोख आशिल्लो आनी सगळ्यांचेर ताची सामकी कडक नदर आशिल्ली.

राजाच्या शिपायांक सदांच दिसतालें की ते खूब काम करून लेगीत तांकां राजा कमी पगार दिंता आनी प्रधान तांचे परस कमी काम करून लेगीत ताका पगार चड आसता. रावना जावन ताणीं हो विशय राजाच्या कानार घालो.

राजान तांची कागाळ थंडपणान आयकून घेतली. मागीर राजान तांकां सांगलें की तांच्या भितरल्या सगळ्यांत हुशार शिपायाक आपय म्हणून. सगळ्या शिपायांनी आपले भितरलो हुशार शिपाय सोदून काडलो आनी ताका राजा मुखार हाडून उबो केलो.

हें सगळें चलता आसतना राजवाड्याच्या मुखेल रस्त्यावेल्यान वचपी बँडवाल्यांचो आवाज तांच्या कानार पडलो. राजान त्या हुशार शिपायाक विचारलें की हो कसलो बोवाळ चल्ला ? शिपाय धांऽऽवत भायर गेलो आनी परत आयलो. राजाक सांगूंक लागलो की ती लग्नाची वरात वता म्हणून. राजान विचारलें की कोणाचें



लग्न ? शिपाय धांवत परत गेलो आनी येवन म्हणूंक लागलो की तें अमक्या-अमक्याचें लग्न. राजान विचारलें की व्हंकल खंयची ? तो शिपाय परऽऽत धांवत गेलो आनी परत आयलो. अशें धा वेळां तरी जालें.

मागीर राजान प्रधानाक आपोवंक धाडलो आनी ताका सांगलें की भायर कसलो बोवाळ चल्ला तो पळे म्हणून. प्रधान एकदां गेलो तो सगळी सविस्तर खबर घेवन राजा म्हऱ्यांत आयलो. हें पळेना फुडें सगळ्या शिपायांक जाली लज आनी ते सगळे तकली सकयल घालून ओग्गी उबे रावले.

**तात्पर्य :** *अक्कल व्हड ताका पगार चड.*



# चोरयेचो आळ

विनू एक गरीब घराण्यांतलो खूब सादो, विश्वासू, कश्टी आनी हुशार भुरगो आशिल्लो. परिस्थितीन गरीब आशिल्ल्यान आनी गांवांत शाळा नाशिल्ल्यान ताका शारांत मामाल्या घरा शिक्षणाक धाडलो.

मामागेर तो आनंदान रावतालो. शाळा सुट्टकीर तो घरांत मामीक कामांत हातभार लायतालो. अभ्यासय बरोऽऽ मन लावन करप आनी मामाल्या भुरग्यां बरोबर खेळप ही ताची दिनचर्या जावन पडिल्ली. ताका शाळेंत बरेऽऽ मार्क पडून तो नंबरय बी बरो घेतालो. अशेच दीस गेले.

एक दीस मामीलीं काकणां शेणलीं. सगळे कडेन सोदलीं. खंयच मेळनात. तिका विनूचो दुबाव आयलो. विनूक विचारलें तेन्ना विनून आपल्याक कांयच खबर ना म्हणून सांगलें. आपल्या आवय बापायचो सुध्दां सोपूत घेतलो. पूण मामाचो आनी मामीचो कसोच दुबाव वचना जालो. ताणीं विनूक बरोऽऽ मारलो आनी रातचो उपाशीं न्हिदयलो.

विनू खूऽऽब रडलो. रातभर ताका न्हीद आयली ना. ताका आपणाक मारलो म्हणून वायट दिसलें ना. आपणाक उपाशीं दवरलो

म्हणूनय वायट दिसलें ना तर आपणाचेर चोरयेचो आळ घालो म्हणून तो खूऽऽब दुखावलो.

ताणें रातभर विचार केलो आनी फांतोडेर, घरांतलीं कोणय उठचे पयलीं आपलीं पुस्तकां आनी कपडे घेवन घर सोडलें.

मामाल्या लोकांनी विनूचो खूब सोद केलो, पूण तो कोणाकच मेळ्ळो ना. एक दीस मामी कपडे सारके करता आसतना तिका साडयेचे घडयेंत कांकणां मेळ्ळीं.

हे वटेन विनून खूब कश्ट काडून दुसरें शार गांठलें. ताणें एका घरांत काम धरलें. तो दिसभर काम करतालो. रातचो शाळेंत वतालो आनी फाविल्ल्या वेळांत अभ्यास करतालो. ताचें काम पळोवन आनी ताची अभ्यास करपाची आनी शिकपाची जिद्द



पळोवन मालक आनी घरांतले बाकीचे लोक ताका खूऽऽब सवलत दिताले. ताचो गोड सभाव पळोवन ताची अपुरबाय करताले आनी शिकपाकय उत्तेजन दिताले.

विनून भरपूर अभ्यास करून आनी बरोऽ नंबर मेळोवन ग्रॅज्युएशन पूर्ण केलें. मालकान खोशी जावन ताका बरीऽ नोकरी मेळोवन दिली. विनूची अभ्यासाची आस अजून भागूंक नाशिल्ली. ताणें आनीक बऱ्या नेटान शिकून आय. ए. एस.ची परिक्षा पास केली. तो आतां कलेक्टर जाल्लो. नशिबान म्हणा ना जाल्यार योगा योगान म्हणा विनूक कलेक्टर म्हणून मामा रावतालो त्याच शारांत धाडलो.

थोडे दीस वतकीर एक दीस विनू मोटार घेवन मामाच्या घरा आयलो. तांबड्या दिव्याची मोटार दारांत पळोवन सगळ्यांक अजापच जालें. भितरल्यान विनू उतरता तें पळोवन तर सगळ्यांक धक्कोच बसलो. मामा–मामी ताका येवकार दिवपाक दारांत आयलीं. विनून पांयांक हात लावन जाण्ट्यांक नमस्कार केलो. मामीच्या हातांत दोन भांगराचीं काकणां दवरलीं आनी कोण कितेंय उलोवचे पयलींच विनू मोटारींत बसलो आनी आपल्या घरा गेलो.

मामा आनी मामी दोळ्यांत दुकां हाडून पळयत उरलीं.

**तात्पर्य :** *अरिश्टाचेर मात करून जैत जोडपांत पुरूषार्थ आसता.*



# पश्चाताप

खूब खूब वर्सां पयलींची गजाल आसा. राजस्थानांत एक गांव आशिल्लो. शारा पासून तो खूब पयस आशिल्लो. वाटेर व्हडलें रान लागतालें. त्या काळांत वाटेर रावपाक हॉटेलां बी नाशिल्लीं. कोणाय वाटसरूक रातचें कोणाच्याय घरांत रावन, फांतोडेचेर उठून परत प्रवासाक लागचें पडटालें.

अशेंच रानाक तेंकून एक घर आशिल्लें. तातूंत घोव आनी बायल रावतालीं आनी तांचो चलो शारांत कामांक आसतालो.

तें जोडपें, कोणूय प्रवासी रातचो पावलो की तांकां अपुरबायेन आनी आग्रहान आसरो दितालीं. ताचे कडेन बरींऽऽ उलयतालीं



आनी मागीर ताका जेवण दितालीं. पूण त्या जेवणांत वीख घालतालीं. वीख खावन तो मनीस मरतकीर दीस उजवाडचे पयलीं ताचे पयशे आनी सामान चोरतालीं आनी ताचें मडें दाऽऽट रानांत व्हरून उडयतालीं. अशें तांचें काम चलिल्लें. त्या काळांत हें लोकांचे नदरेक पडपाकूय कठीण आशिल्लें.

असोच एक दीस एक मनीस खूब थकून भागून तांच्या घरांत आयलो. धड उजवाड सारको नाशिल्ल्या कारणान एकमेकांचीं तोंडां सारकीं दिसनाशिल्लीं. ह्या जोडप्यान सदांभशेन ताचो आदर-सत्कार केलो. ताका न्हावंक हुनहुनीत बरें उदक दिलें आनी बरेंऽऽ जेवणय दिलें. प्रवासी जो गाड न्हिदलो तो उठलोच ना. सदचे भशेन ताणीं ताचे पयशे चोरले आनी सामानय चोरलें. ताचें मडें घेवन तीं रानांत वतालीं इतल्यांत फांतोडेच्या उजवाडांत तांकां त्या मड्याचें तोंड दिसलें. तें तोंड पळोवन तांकां सामको धस्कोच बसलो. कारण तो भायल्या गांवाक नोकरेक आशिल्लो तांचोच चलो आशिल्लो. तांकां खूऽऽब दुख्ख जालें. तीं रडत रडत घरा आयलीं. आपलें हें कर्म तीं कोणा लोकांकय सांगूंक शकनाशिल्लीं. ताणें आपल्या आवय बापायक शारांतल्यान कपडे आनी भेटवस्तू हाडिल्ल्यो तें पळोवन तर तांकां आनीकय रडूंक कोसळ्ळें. पूण आतां रडून कांयच उपेग नाशिल्लो.

ताणीं तें घर सोडलें आनी उरिल्लें जीवन एका देवळांत रावन लोकांचे सेवेक घालयलें.

**तात्पर्य :** *दुसऱ्या खातीर खणलेल्या फोंडांत आपुणूच पडूंक शकता.*



# आयचें काम आयज

**ए**का भाटकाराच्या मागिलदारा एक व्हऽऽडलो रूख आशिल्लो. ताचेर पक्षांचो एक घोंटेर आशिल्लो. तातूंत पक्षांचें एक जोडपें आनी तीन पिलां रावतालीं. दिसभर खाण एकठांय करून घोंटरांत हाडप आनी आपल्या पिलांक खावोवप. पिलां चिंवचींव करत आनंदान खाण खातालीं आनी मजेंत दीस सारतालीं. अशें करून पिलां हळुहळू व्हडलीं जातालीं.

एक दीस भाटकार कांय लोकांक घेवन त्या रुखाच्या मुळाकडेन येवन कितें तरी तांचे कडेन उलोवंक लागलो. उलोवपांतल्यान अशें



थरलें की फाल्यां सकाळीं रूख कातरपाचो. पिलांचे आवयन घोव घरा येनाफुडें ही सगळी गजाल ताच्या कानार घाली आनी आतां दुसऱ्या रुखार घोंटेर बांदपाचें घोवाकडेन उलयली. घोवान सांगलें, ‘रूख कातरपाक खूब वेळ आसतलो. वेळ येता तेन्ना पळोवया.’

दुसऱ्या दिसा रूख कापलो ना. घोवान हड्डें फुडें काडून बायलेक सांगलें, ‘पळयलें, हांवें कितें सांगिल्लें तें? रूख कापप हें फकाणाचें काम न्हय.’ बायलेक हें पटनाशिल्लें. तिणें ताका कितले तरेन समजायलें की आमी दुसऱ्या रूखार घोंटेर बांदुया आनी पिलांक घेवन नव्या घोटेरांत या. घोवान तिका हांसप आनी म्हणप, ‘वेळ येता तेन्ना पळोवया.’

बायल सदांच भाटकाराचें उलोवप आयकताली आनी घोवाक विनवणी करताली. घोवान हांसून म्हणप ‘भाटकारालो फाल्यां केन्नाच उजवाडचो ना.’

एक दीस खरेंच रुखाच्या मुळाचेर व्हडले फार पडपाक लागले. घोटेरांतलीं घोव आनी बायल उडूंक शकतालीं. पूण पिलांक अजून उडूंक येनाशिल्लें. घोवान आनी बायलेन रोखडीच दुसऱ्या रुखार झेप घेतली आनी फुडें कितें जाता तें पळेत रावलीं. म्हणटां म्हणटां रूख जोरान जमनीर आपटलो आनी रुखावेलो घोंटेर मातये भरवण जावन भितरलीं पिलां घुस्मटून मेलीं. आवय बापूय दुसऱ्या रुखावेल्यान रडत रडत हें सगळे पळेतालीं. पूण आतां खूऽब उशीर जाल्लो.

**तात्पर्य :** *आळस करप वायट; आळसांतल्यान अपेस उप्रासता.*



# खूश मस्कऱ्या

महाराष्ट्रांत एक गांव आशिल्लो. थंय एक श्रीमंत सावकार आशिल्लो. तो खूब दयाळू आनी समंजस आशिल्लो. ताका एक प्रशांत नांवाचो चलो आशिल्लो. तो खूब मस्तो आशिल्लो. ताचे भोंवतणी सदांच ताचे खूश मस्करे आसताले. ते सदांच ताची ओगीच फटीची तुस्त करताले आनी नस्ती वाखाण्णी करून ताका फुलयताले. आनी हो पिसो तांचें आयकून ओगीच गर्वान फुलतालो. तो सारको अभ्यासय करी नाशिल्लो आनी सारको व्यायामय करी नाशिल्लो. भोंवतणचे बाकीचे भुरगे मात ताका ओगीच कुस्ती मास्तर म्हणटाले. ताच्या शरिराची नाका तितली तोखणाय करताले आनी प्रशांताक तें सगळें खरेंच दिसतालें. तो तांचेर पयशे खर्च



करतालो. तांकां दिस-रात खावंक जेवंक घालतालो आनी नस्ते खेळ खेळटालो.

तांच्या शेजरा धोंडू नांवाचो एक गरीब भुरगो रावतालो. तो मेळटा त्या वेळार अभ्यास करतालो आनी सकाळीं उठून आखाड्यांत व्यायाम-कसरत करतालो. तो खूऽऽब मेहनती भुरगो आशिल्लो आनी सदांच सावकाराचें काम करतालो.

सावकार ताका बरोऽऽ वागयतालो. सावकाराक तो आपल्या चल्यापरस चड आवडटालो. हें पळोवन सावकारालो चलो प्रशांत ताचेर जळटालो. ताका जाता तितले त्रास दिवपाचे प्रयत्न करतालो.

एक दीस प्रशांताल्या सांगात्यानी ताका फुलयलो आनी ताका धोंडू कडेन कुस्ती करपाक सांगलें. 'तुजें आंग पळय आनी त्या धोंडूचें आंग पळय. तूं कांयच न्ही करून त्या धोडूंक हारयतलो आनी धोंडू सामको आड पडटलो.' घेऽऽ प्रशांत सामको फुल्लो आनी दुसऱ्याच आयतराक कुस्ती थारली.

सगळे गांवचे लोक आखाड्यांत जमले. सावकारय आयलो. कुस्ती सुरू जाली आनी कांय न्हयशें करून धोंडून पयल्याच फाराक प्रशांताक जमनीर लोळयलो. सगळ्या लोकांनी प्रशांताक हुर्यो घाल्यो. सावकारान तर धोंडूक घट्ट वेंगेंत घेतलो. गांवच्या लोकांनी धोंडूक खांदार घेवन ताची मिरवणूक काडली आनी हेवटेन प्रशांत मात आपलें तोंड काळें करून घरांत लिपलो.

**तात्पर्य :** *खूश मस्कऱ्यांचे भकीक पडप समा न्हय. तांचें आयकून फजेत मात जाता.*



# आस



**ए**क गिरेस्त राजा आशिल्लो. ताका एक सुंदर चली आशिल्ली. तिका भांगर, वज्रां आनी दागिन्यांचो खूब सोंस आशिल्लो. एक दीस तिणें आपलो वज्रांचो हार आपले कुडींत जनेलाचेर दवरिल्लो. तो सुर्याच्या उजवाडांत खूब चकचकूंक लागलो आनी एका कावळ्याची ताचेर दिस्त नदर पडली. ताका ती कितें तरी खावपाची बरी वस्त जावये अशें दिसून ताणें ती चोंचींत धरली आनी उडून गेलो.

कावळो आपलो हार व्हरता तें राजकन्येन पळेलें आनी ती रडत रडत राजाकडेन धांवली. राजान रोखडेंच गांवांत पेरगांव घालें, जो कोण तो वज्रांचो हार सोदून दितलो ताका व्हऽडलें बक्षिस मेळटलें.

गांवांत सगळे लोक बक्षिसाचे आशेन हेवटेन तेवटेन हार सोदूंक लागले. थंयच गांवांत एक तळें आशिल्लें. एकटो गरजवंत आनी आशेचो मनीस त्या तळ्याचे देगेर बशिल्लो. इतल्यांत ताका त्या तळ्यांत एक चकचकीत हार दिसलो. तो खूऽब खोशी जालो. पूण त्या तळ्यांतलें उदक खूब घाण आशिल्लें. कोणच त्या तळ्यांत देंवपाक तयार जायनाशिल्लो. कोण त्या चिखलांत देंवतलो? पूण त्या मनशाची आस जागी जाली. आतां हांव तो हार काडून राजाकडेन व्हरून दितलों आनी राजा म्हाका बक्षीस दितलो हे आशेन ताणें उदकांत उडी मारली आनी हार सोदूंक लागलो. ताका हार खंयच मेळ्ळो ना उरफाटें सगळें उदकांतलें रेब मात आंगाक लागून आंगाक सामक्यो गुट्टाणी येवंक लागल्यो. ताचें गिरेस्त जावपाचें सपन थंयच भंगलें म्हणून ताका वायट दिसलें.

त्याच तळ्याकडल्यान एक साधू वतालो. ताणें ह्या हळशिकेंत बुडिल्ल्या मनशाक पळयलें आनी अजापान ताणें सगळी चवकशी केली. त्या मनशान त्या तळ्यांत आपणें हार पळयिल्ल्याचें साधूक सांगलें पूण काडूंक वचत जाल्यार हार कस्सोच हाताक लागनाशिल्लो हेंय बी सांगलें.

ही सगळी ताणें सांगिल्ली खबर साधून आयकून घेतकीर साधू हांसलो आनी ताणें तळ्याचे देगेर आशिल्ल्या झाडाचे फांदयेकडेन बोट दाखयलें. पळेत जाल्यार ते फांदयेर हार हुमकळटालो. ताका

तो हार दाखोवन साधू आपले वटेन चलत रावलो. हो मनीस तळ्यांत पळेतालो तें ते फांदयेवेल्या हाराचें प्रतिबिंब आनी त्या प्रतिबिंबा फाटल्यान धांवन ताणें आपलो इतलो वेळ फुकट घालयल्लो.

**तात्पर्य :** *प्रतिबिंब तें प्रतिबिंब. कितलेय प्रयत्न केल्यार तें हाताक लागना.*



# प्रयत्न थंयच परमेश्वर

कुशावती न्हंयचे देगेर एक ल्हानसोच गांव आशिल्लो. थंड वातावरण आनी बरे वागपी लोक म्हणून ख्याती आशिल्ली त्या गांवची. लोक म्हळ्यार चडसो शेतकरी वर्गच म्हळ्यार जाता. गांवांत एक शिवाचें देवूळ आशिल्लें. ल्हानशेंच पूण खूब सोबीत. त्याच गांवांत शिवानंद म्हणून एक मनीस रावतालो. गांवच्या त्या देवा वेल्यान ताका तें आवय-बापायन नांव दवरिल्लें आसूंये! नांवा प्रमाणेंच तो शिवाचो खूऽब व्हडलो भक्त आशिल्लो.



गरीब, देव मनीस, सादो-भोळो आनी भावार्थी मनीस म्हणून सगळो गांव ताका वळखतालो. ताचेर कसलेंय संकश्ट आयलें किंवा ताका कसलीय समश्या आयली जाल्यार तो तें शिवाचेर सोडटालो आनी ताचे ते प्रस्न देव सोडयता, असो ताचो समज आशिल्लो. हाका लागून ताचो देवावयलो विश्वास दिसान दीस चडचड वाडऽत गेलो.

एक दीस त्या गांवांत एक तुफान आयलें. मुसळधार पावस आनी जोराऽन वारो सुरू जालो. वाऱ्यान झाडां-पेडां हालून पडूंक लागलीं आनी जोर जोरान पावस आयिल्ल्यान कुशावती न्हंयच्या उदकाची पातळी वाडूंक लागली. सगळ्या लोकांनी बोवाळ घालो 'गांवांत बुडटी येता, गांवांत बुडटी येता'. लोकांनी आपलीं गोरवां बी दांव्याचीं सोडयलीं आनी सगळे लोक आपलें घर-दार सोडून दोंगरा वटेन धांव मारूंक लागले. भुरग्यांक हांडीर ना जाल्यार खांदार मारून गांवांतल्या लोकांनी गांव खालीं केलो.

शिवा मात आपल्या घराच्या बल्कांवांत बसून हें सगळें पळयतालो. लोकांमदल्या एकट्यान येवन ताका शिटकायलो. शिवान ताका सांगलें, 'कांय भियेंव नाकात. देव आमकां वाचयतलो.' थोड्या वेळान दुसरो मनीस आयलो. ताणें आड्डून ताका घर सोडूंक सांगलें. शिवा कसोच आयकना. देवाचो ध्यास घेवन बसला. मागीर तिसरो मनीस आयलो, चवथो आयलो. पूण कांयच उपेग ना. शिवा कस्सोच आयकना. शिवाली एकच जाप, 'देव आमकां वांचयतलो'. शेवटीं लोक वाजेवन ताका थंयच सोडून धांवले.

इतल्यांत उदकाची पातळी इतली वाडली आनी उदक इतल्या फोर्सान आयलें की त्या फोर्साबरोबर शिवा व्हांवून गेलो. शिवा

आतां देवाचें नांव घेवन धडपडूंक लागलो. पूण आतां खूऽब उशीर जाल्लो. शिवा निमाणो बुडून मेलो.

ताका सर्गार वता आसतना देव शिव दिश्टी पडलो. शिवाक ताणें साश्टांग नमस्कार केलो आनी विचारलें की आपणें अशें कितें केलें की जाका लागून तुवें म्हाका वाचोवपाक मदत केली ना.

शिवान ताका सांगलें, 'हांवें तुका मदत करूंक ना? हांव एकदां न्हय तर चारदां वेगवेगळ्या मनशांच्या रुपान तुका मदत करपाक आयलों. तुवें म्हजो हात धरलोच ना. कांयच प्रयत्न केलो ना. हाचे वयर हांव आनी तुका कितें मदत करतलों?'

**तात्पर्य :** *संदी येता तेन्ना ती ओळखून तिचो लाव घेतल्यार यश मेळटा.*



# मानसिक आघात

**ए**क दीस दोन बरेऽऽ शिकिल्ले, विचारवंत मनीस सांजवेळचे फिरूंक गेल्ले. अशेऽऽ भोंवता आसतना तांकां एक धिप्पाड हत्ती बांदिल्लो दिसलो. हत्ती शांत आशिल्लो आनी ताचे मुखार घाल्लीं पानां खातालो. ताच्या गळ्यांत दावें नाशिल्लें. ताचो एकच फुडलो पांय राजवान एका झाडाक बांदिल्लो.

इतलो शक्तिवान हत्ती तो एका धक्क्यान तो राजू तोडून उडोवंक शकता. जाल्यार हत्ती अशें कित्याक करिना ? हो प्रस्न तांचे मुखार उबो जालो. ते अजापान पळेत विचार करीऽऽत रावले.

इतल्यांत तांकां एक माहुत (राखणो) थंय थंड बशिल्लो दिसलो. ते दोगूय जाण त्या माहुता म्हच्यांत गेले आनी त्या हत्तीची चवकशी



केली आनी ताका हो प्रस्न विचारलो. माहुतान तांकां सांगलें की हत्ती जेन्ना ल्हान आसता तेन्ना आमी तांकां अशाच राजवान बांदतात. तेन्ना तो सामको ल्हान आशिल्ल्यान हो राजू तो तोडूंक शकना. जसो जसो तो व्हड जाता तेन्ना ताच्या मनाचेर असो परिणाम जाता आनी तो अशेंच मानून वता की तो राजू आपूण कसोच तोडूंक शकना म्हणून आनी मागीर तो राजू तोडपाचो प्रयत्न लेगीत करिना. हें आयकून त्या दोगांय मनशांक अजाप तर जाताच पूण तांकां तांच्या प्रस्नाची जापय मेळटा.

**तात्पर्य :** *भायलीं बंधनां तोडूं येता. मनांतलें, भितरलें बंधन तोडप शक्य जायना.*



# आघात

एका शारांत एक घर बांधणारो कॉन्ट्रेक्टर रावतालो. ताचो एक मुकदम आशिल्लो. तो बरोच हुशार तर आशिल्लोच पूण त्याच बराबर तो विश्वासूय आशिल्लो. तो बाकीच्या मनशां कडल्यान चोख काम करून घेतालो म्हणून ताच्या मालकाचें मार्केटांत नांव खूब बरें आशिल्लें. मालकाचोय त्या मुकदमाचेर बरोच विश्वास आशिल्लो.



खूब वर्सां काम करून तो मुकदम म्हातारो जाल्लो. आतां ताचे भुरगेय बी शिकून जोडपाक लागिल्ले. एकूण घरांत अन्न, कपडो आनी जाय तितलें समाधान आशिल्लें. ताच्या वाडट्या संवसाराक, रावतात तें घर मात्शें ल्हान पडटालें. पूण तरीय ते समाधानान रावताले.

एक दीस तो मालकाकडेन गेलो आनी आपूण आतां नोकरी सोडटां म्हणून ताणें सांगलें. मालकान ताचेकडेन मायेन पळेलें आनी म्हळें, 'म्हाका तुजेर पडटा तो ताण कळटा आनी तूं आतां जाणटोय जाला. तूं तुका जाय जाल्यार नोकरी सोड. पूण सोडच्या पयलीं म्हजी एकच इत्सा पूर्ण कर.' अशें मालकान ताका सांगतकीर ताच्यान ना म्हणूंक जालें ना आनी ताणें आपल्या मनाविरूध्द 'हां' म्हळें.

दुसऱ्या दिसा मालकान ताका एक जागो दाखयलो आनी एका घराचो आराखडो दिलो आनी तें घर बांदपाक सांगलें आनी मागीरच निवृत्त जा म्हळें. 'हां हां, ना ना' करून निमाणें मुकदमान हयकार दिलो.

मुकदमान तें घर बांदपाक सुरवात केली. तें घर बांदतना ताणें बारीक लक्षय घालें ना आनी मनापसून कामय केलें ना. अशें तशें जाता तशें करून कश्याकशेंय एक घर बांदलें आनी तें थोड्या तेपान मालका सुवादीन करून आपूण सुटलों एकदांचो म्हणून हुश्श केलें. घर मालका सुवादीन जातकीर मालकान ताका शाबासकी दिली आनी आपली नोकरी सोडपाक ताका परवानगी दिली.

एक दीस त्या मालकान बरोऽसो म्हुर्त आनी दीस पळोवन त्या मुकदमाक आनी ताच्या घरच्यांक त्या घराकडेन आपयलीं आनी

त्या घराची चावी त्या मुकदमाकडेन ताच्या कामाचें बक्षिस म्हणून दिली. आपले खातीर तूं इतलीं वर्सां जो वावुरलो आनी कश्ट घेवन काम केलें आनी आपल्याक बरेंऽऽ नांव मेळोवन दिलें ताका लागून हांव हें घर तुका बक्षीस म्हणून दितां. अशें मालकान सांगनाफुडें मुकदमान हांसून आनी नमस्कार करून ती चावी घेतली खरी पूण तो मनांतल्या मनांत दुखी जालो आनी खजीलय जालो. आपणें सदचे भशेन जर काम करून घेवन हें घर बांदिल्लें जाल्यार आज आपणाक काय बरें घर मेळपाचें हें येवजून ताका खूब पश्चाताप जालो. पूण आतां कितें उपेग? ताची करणी ताच्याच पांयांकडेन आयिल्ली.

**तात्पर्य :** *दुसऱ्यांक फटोवंचें न्हय. दुसऱ्यांक फटोवंक गेल्यार आपुणूच फटवता.*



# माफ



विनय नांवाचो एक भुरगो शारा पासून पयस एका गांवांत रावतालो. त्या गांवांत चडशे शेतकरी लोक आनंदान रावताले. गांवांत फक्त एकच शाळा आशिल्ली थंय धावी पर्यंत शिकयताले. फुडलो अभ्यास शारांत वचून करचो पडटालो.

विनयाचीय घरची परिस्थिती व्हडलीशी बरी नाशिल्ली. बापूय कश्ट करून आपल्या शेतांत धान्य आनी भाजीपालो पिकोवन आपलें घर चलयतालो. तो विनयाक अभ्यासा बाबतींत कांयच

कमी पडूंक दिना आशिल्लो. विनयूय कश्टी आनी अभ्यासू भुरगो आशिल्ल्या कारणान ताका जेन्ना वेळ मेळटालो, तेन्ना आपल्या बापायक आनी घरांत मदत करतालो.

विनयान भरपूर अभ्यास करून, धावी बऱ्या मार्कांनी पास जालो. ताका आतां फुडलें शिक्षण घेवपाची उमेद आशिल्ली.

विनयाचो काका शारांत रावतालो. ताचो काका आनी काकी बरींऽऽ मनशां. तांकां एकूच चली. ती खूब लाडाविल्ली आनी उर्मट वागताली. आपल्या शारांतलें जीवन आनी बापायलो पयसो हाचो तिका चड गर्व आशिल्लो. ती लोकांक दुखता तशें उलयताली आनी दुसऱ्यांक दुख्ख दिताली. तिका सुदारपाक आवय-बापूयय प्रयत्न करी नाशिल्लीं.

विनय फुडलें शिक्षण घेवपाक शारांत आयलो आनी आपल्या काकाच्या घरांत रावलो. ताका काका काकी बरीऽऽ वागयतालीं. तांची चली मात ताका खूऽब त्रास दिताली. म्हणिल्ल्या कामाक कचकचायताली. ताका हिडीस फिडीस करताली. थोमणे मारून उलयताली. हें सगळें आयकून विनयाक खूब वायट दिसतालें. पूण आपल्या शिक्षणाक लागून तो हें सगळें मोन्यांनी सोंसतालो. विनय मन लावन आनी त्रास काडून अभ्यास करतालो आनी तो बरेऽऽ मार्क मेळोवन पासूय जातालो. अशेच दीस गेले आनी वर्सांय गेलीं. विनय डिस्टींगशनान डिग्रीची परिक्षा पास जालो. ताका शिश्यवृत्ती मेळ्ळी म्हणून तो हें शार सोडून दुसऱ्या शारांत गेलो. शिक्षण सोंपतकीर थंयच ताका नोकरीय मेळ्ळी आनी तो थंयच रावंक लागलो.

इतल्या मदीं ताच्या बापोल भयणीचें लग्न एका विमानाच्या पायलटाकडेन जालें. तिचो गर्व आनीकय वाडलो. श्रीमंतीचो तिका माज आयिल्लो. लोकांकडेन ती तुच्छतेन वागूंक लागली आनी हें पळोवन लोक तिका चुकोवंक लागले, तिचे कडेन संबंद दवरिना जाले. एक दीस दुर्दैवान तिच्या न्हवऱ्याक विमानाचो अपघात जालो आनी तातूंतच तो मेलो. जालें. हिचेर मळब कोसळ्ळें आनी ती रडऽऽत आपल्या बापायकडेन परत आयली. तिचे आवय बापूय आतां जाण्टे जाल्ले आनी तांचीय परिस्थिती सारकी नाशिल्ल्या कारणान तांकां जेवण-खाण सुध्दां कठीण जातालें.

विनय कांय वर्सांनी आपल्या काकागेर आयलो. येतना मिठाई-खाण आनी काका-काकी खातीर कपडे न्हेसणां बी घेवन आयलो. काका-काकी सामकीं जाण्टीं दिसतालीं. परिस्थितीक लागून जावये. ताणीं मोगान ताका घरांत घेतलो. ताका च्या-खावपाक दिलें आनी गजाली करतना ताका सऽगळी खबर कळ्ळी. ताणें आपली बापोल भयण खंय काय म्हणून खबर घेतली. ती रांदचे कुडींत रडत बशिल्ली. विनयान तिचे म्हऱ्यांत वचून तिका थापटिली आनी शांत केली. धीर दिलो. त्या दिसा विनय तांगेरच रावलो. रातचे तांकां तिगांकय आपल्यागेर येवपाक सांगलें आनी दुसऱ्याच दिसा तांकां सगळ्यांक घेवन आपल्या नव्या घरांत गेलो आनी तांचेंय जीवन आपल्या बराबरच आनंदीत केलें.

**तात्पर्य :** *आपले गिरेस्तकायेचो फायदो हेरांकूय दिवंचो. तातूंत श्रेश्ठताय आसता.*



# परोपकार

आज आयतार. फाल्यांच्यान भुरग्यांची शाळा सुरू जातली. प्रकाशाक याद जाली की ताच्या चल्याचे बूट सारके करूंक जाय. फाल्यांच्यान शाळा सुरू जातली हें तो सामकें विसरूनच गेल्लो. प्रकाशान बूट बरेऽ कागदांत बांदले आनी ते पिशवेंत घालून तो भायर सरलो.

बाजारांत ताका शिवा मोची दिसलो. ताणें शिवाक बूट दिले आनी खूब घासाघीस करून आनी वाणपण करून एकदांची किंमत थारयली. शिवान आपलें काम सुरू केलें आनी प्रकाश शेजराच बसून तें पळोवंक लागलो.



इतल्यांत प्रकाशाक रस्त्यावेल्यान एक मानाय येतना दिसलो. ताच्या माथ्यार एक भरिल्लो साक आशिल्लो आनी ताच्या पांयांत तुटिल्लें जोतें आशिल्लें. जोतें तुटिल्ल्या कारणान तो लंगडत लंगडत चलतालो. ताका पळोवन शिवान बशिल्लो थंयच्यानूच ताका उलो मारलो, 'येश्या, तें तुटिल्लें जोतें घालून तूं कित्याक काम करता रे? घुस्पून पडलो जाल्यार हात-पांय मोडून घेतलो आनी मागीर दोतोराक पयशे घालचे पडटले.' येश्यान जाप दिली. 'शिवा, जोतें सारकें करपाक म्हजे कडेन पयशे ना.'

शिवान ताका परत जाप दिली, 'येश्या, पयशांची काळजी करूं नाका. जिवाची कर. चल हांगा यो.'

शिवान हातांत आशिल्लें काम कुशीक दवरलें आनी येश्याचें जोतें पयलीं सारकें करून दिलें आनी सांगलें, 'चल. पयशे विसर.'

येसो ताका देव बरेऽऽ करूं म्हणून आपल्या मार्गाक लागलो.

हो सगळो घडिल्लो प्रकार पळोवन प्रकाशाक जाली लज. आपणाकडेन पयशे आसात पूण मनीसपण ना हें ताका कळून चुकलें. आपणें चल्याच्या बुटां खातीर चार आनी पांच रुपयांक लागून केदें वाणपण केलें, कितलो वेळ हुज्जत घाली आनी शिवान येश्याचें दुख्ख समजून घेवन परोपकार केलो. केदें व्हडलें मन ताचें!

सगळे वाटेर प्रकाशाचें मन ताका खायत रावलें.

तात्पर्य : *धनाचे गिरेस्तकाये परस मनाची गिरेस्तकाय श्रेश्ठ.*



# खेळ



एक दीस मनीस आनी दैत्यांनी थारायलें की आमी फुटबॉल खेळपाचें. जो जिंकतलो ताका सबंध पृथ्वी भोंवपाचो फुकट पास बक्षीस म्हणून मेळटलो. जालें... सगळे कडेन बातमी पसरली आनी सगळ्यांक उत्सुकता जाली. तशीच ही बातमी भगवान शंकराच्या कानारय पावली. ताणें आपल्या चार भक्तांक आपयले आनी सांगलें की हांवें केन्नाच फुटबॉल हो खेळ पळोवंक ना. म्हाका तो खेळ पळोवपाची खूऽब इत्सा आसा. तेन्ना तो खेळ पळोवंक तुमी म्हाका व्हरतात मरे? भगवान शंकराक कोण ना म्हणटलो? भक्तांक ताका व्हरचेंच पडलें.

आनी थारिल्ल्या दिसा शंकराक घेवन ताचे भक्त मैदानार आयले आनी सगळे ताचे भोंवतणी बसले. खेळ सुरू जावचे पयलीं ताणीं शंकराक खेळाची रीत सांगली. 'गोल' म्हणजे कितें हें सांगलें आनी खेळाची उरिल्ली सुरिल्ली म्हायतीय ताका बरेऽऽ भशेन दिली. इतल्यान शिटी वाजली आनी खेळ सुरू जालो. घे... एकच बोवाळ. लोक ताळयो मारतात, शिळोण्यो वाजयतात, कांतारां म्हणटात... सगळी मजाच मजा. शंकरूय बी लोकांबरोबर रंगून गेलो.

थोड्या वेळान मनशांनी दैत्यांचेर गोल घालो. घे... ताळयांचो कडकडाट आनी किळच्च्यो बोवाळ सुरू जालो. मनीस प्रेक्षक नाचतात तसोच शंकरय बी नाचूंक लागलो. उडयो मारूंक लागलो.

थोडो वेळ गेलो. खेळ बरोच रंगांत आयिल्लो. इतल्यांत दैत्यांनी मनशांचे टिमीचेर गोल घालो. मनीस सगळे निर्शेल्ले. ते ओग्गी बसले. पूण दैत्य प्रेक्षक आयकतात? ताणीं नाचून नाचून सगळें मैदानच माथ्यार घेतलें. हांगा पळेत जाल्यार शंकरय बी उडयो मारून नाचतालो. शंकराक भक्तांनी घट्ट धरलो आनी विचारलें की तुका कितें पिशें लागलां? हो दैत्यांनी मनीस टिमीचेर गोल घाला.

शंकर थंड जालो आनी भक्तांक सांगूंक लागलो की हांव हांगा खेळ पळोवंक आयलां. ताचो आनंद घेवपाक आयलां. खेळ म्हत्वाचो. कोण जिंकता आनी कोण हरता हें म्हत्वाचें न्हय.

भक्तांक खेळाचो खरो अर्थ त्या दिसा कळ्ळो.

**तात्पर्य :** *खेळ खेळप म्हत्वाचें. खेळांतलें येस-अपेस म्हत्वाचें न्हय.*



# परीवर्तन

खूब पयलींची गजाल. एक व्हडलो गांव आसलो. ताच्या शेजराक एक जंगल आसलें. त्या जंगलांत चार साधु रावताले. ते पाठ, पुजा, सत्संग, भजन आनी तप करताले. गांवांतले कोणूय तांचेकडेन मजतीक आयले जाल्यार तांकां उपदेश करून मार्ग दाखयताले. प्रत्येक साधुची आपली वेगवेगळी निश्ठा आसली आनी ते प्रमाणे ते प्रचार करताले. गांवांतले सगळे लोक तांकां खूब मानताले.

त्या गांवचो राजा खूब मोगाळ आसलो. तो आपले परजेक मोगान वागयतालो. ताका दोन चले आसले. राजा तांचेर खूब मोग करतालो. पूण एक विचार राजाक सदांच सतायतालो तो म्हळ्यार आपल्या फाटल्यान आपले हे दोगूय चले राज्या पासत झगडूंक लागले जाल्यार गांवची वाट लागतली. आपले परजेक त्रास जातलो आनी सगळो अनर्थ जातलो. बरोच विचार करतकच ताचे तकलेंत एक विचार आयलो, तो म्हळ्यार आपल्या दोन पुतां पयकी एकल्या पुताक जर साधू केलो जाल्यार ताच्या मनांत राज्याची आस उदेवचिना. झगडीं टळतलीं आनी आपल्याकूय पुण्य लाभतलें. लोकूय खूश जातले.

एक दीस राजान आपलो हो विचार राणयेक सांगलो. दोगांनीय हाचेर खोलायेन विचार केलो. राणयेन म्हळें, आमचो चलो असो अकस्मात साधू कसो म्हण जावंक शकता ? ते विशीं ताचे विचार समजून घेवं नाकात? राजान म्हळें, परिसाच्या संपर्कांत येत जाल्यार लोखणाचें लेगीत भांगर जाता. आमी जर ताका साधु-संतांच्या सहवासांत दवरलो तर परिणाम जावन तो आपुणूच बदलूं येता. आमच्यांनी हें करून पळोवंक कसली हरकत आसा? राणयेक राजाचें मत पटलें. 'पूण ताका असलो गुरू कसो मेळटलो?' राणयेन राजाक विचारलें. 'आमच्या राज्याचे शिमेवेल्या जंगलांत चार साधु रावतात. ते खूब विद्वान आसात. हांव ह्या दिसांनीच जंगलांत वचून तांची भेट घेतां, तांचे लागीं उलयतां आनी मागीर कितें तो निर्णय आमी घेवया.' राजान तिका म्हळें.

तांचो हो वार्तालाप चलता आसतनाच कर्मधर्म संयोगान एक खांपो चोर चोरी करपाचे हेतान राजवाड्यांत भितर सरिल्लो. पड्ड्या फाटल्यान लिंपून राविल्ले कडेन ताच्या कानार राजा राणयेंचें उलोवप पडलें. चोरान विचार केलो, आपूण चोरी करतना जर सांपडलों जाल्यार आपल्याक बंदखणीची ख्यास्त जातली. देहदंडाचीय ख्यास्त जावं येता. ते परस आपणें जर साधुचें सवंग घेतलें आनी रानांत वचून बसलों जाल्यार राजा आपसूक आपले तावडींत येतलो. राजाचो चलो जर एकदां म्हजो शिश्य जालो म्हणटकच आपल्याक बसलेले कडेन सगळी संपत्त आपसूक मेळटली.

चोर अचळय लिपत लिपत घरा गेलो आनी रातभर विचार केलो, आपणें जर साधुचें सवंग घेतलें तरी आपल्याक तांतलें

कांय खबर ना. राजाच्या प्रस्नांक काय आपूण जापो दिवंक शकचोनां. ताका जर आपलो गूट कळत जाल्यार मागीर धडगत ना. मागीर करप कितें? शेवटाक ताका एक उपाय सुचलो. दुसरे दिसा बेगीनूच उठून ताणें रानाची वाट धरली.

रानांतल्यान थोडो वेळ चल्ल्या उपरांत ताका पयलो साधु मेळ्ळो. चोरान आपूण एक सभ्य मनीस आशिल्ल्याचें सवंग केलें आनी ताका नमस्कार करून ताच्या पायां लागीं वचून बसलो. "म्हाराज, जीवनाचें कल्याण कशें जाता?" ताणें साधुक प्रस्न केलो. साधुन म्हळे, "म्हज्या पुता, जिवितांत केन्नाच कोणांक



दुखोंव नाका. कोणाचें मन केन्ना दुखोंवक फावना. कोणाक त्रास दिंवक फावना. सगळ्यांचो जीव होच परमात्मा आसता. ताका दुखोवप म्हळ्यार देवाक दुखोवप."

चोरान म्हळें, "आनीक कितें म्हाराज?"

साधून म्हळें, "आनीक आनी कित्याचीच गरज ना. हांवें सांगलां तितल्यांतूच तुजें कल्याण आसा."

चोरान साधूक नमस्कार केलो आनी रानांतली फुडली वाट माड्डीली. थोड्या वेळान ताका दुसरो साधू मेळ्ळो. ताका नमस्कार करून ताणें ताकाय तेच प्रस्न विचारले. साधून ताका म्हळें, "केन्नाच इल्ली लेगीत फट उलोवंक फावना. सदांच सत्य उलय. तुजो प्राण वचपाचो लेगीत प्रसंग आयलो जाल्यार लेगीत तुवें सत्य सोडूंक जायना. फट उलोवंक फावना.जें पळयलां,.आयकलां,अणभवलां तें जशाक तशें कथन करपांतूच कल्याण आसा."

चोरान विचारलें,"आनीक कितेंय आसा व्हय?" साधून सांगलें, "ना. इतलेच गजालींक पाळो दी."

ताका नमस्कार करून चोर फुडले वाटेक लागलो. तिसऱ्या साधूक गाठून तो ताच्या पांयाकडेन वचून बसलो. नमस्कार करून ताणें नमळायेन आदलोच प्रस्न केलो, "साधू म्हाराज, म्हज्या जिविताचें कल्याण कशें जातलें?" साधून ताका सांगलें, "वत्सा दीस रात रामाचें स्मरण कर. रामाचें ध्यान कर, रामाची सेवा कर. रामा भितर एकरूप जावपाचो प्रयत्न कर. तातूंतच तुज्या जीवनाचें कल्याण जातलें." साधूक नमस्कार करून चोर चोवथ्या साधूच्या शोधाक गेलो. तो दिश्टी पडल्या बराबर ताका नमस्कार करून

कल्याणाचो प्रस्न विचारलो. साधून सांगलें, ''एकाच देवाक शरण वच. मनांत सामकेंपक्कें कर, आपूण फक्त देवाचो आनी देव आपलो. जशी चली लग्न जावन आपल्या घोवा घरा वता आनी आतां आपूण आंकवार न्हय तर घोवाची बायल हो विचार मनांत थीर रुजयता, घोवा बगर तकलेंत दुसरो विचार हाडिना तसोच देवाचो विचार तुवें तकलेंत थीर करूंक जाय. देवा बगर तुवें कांयच तकलेंत हाडूंक फावना.'' चोरान विचारलें, ''आनीक कितें म्हाराज?'' साधून सांगलें, ''हातूंतच सगळें आयलें. तुजें कल्याण जावपाक आनीक कित्याचीच गरज ना.''

चोरान सगळो उपदेश समजून घेतलो. दुसऱ्या दिसाच्यान आपल्या आंगाचेर ताणें भगवीं वस्त्रां चडयलीं. गळ्यांत माळो बी घाल्यो, कपलाक भस्म सारायलें आनी राजाची वाट पळयत रानांत बसून रावलो. ताणें विचार केलो, हे चारूय साधू राजाक आपल्याक सांगलां तितलेंच सांगतले. आपणेंय ताका तेंच सांगल्यार राजाचेर कसलोच प्रभाव पडचोना. ते पासत आपणें आनीक कितें तरी चडावत सांगपाची गरज आसा. कितें सांगपाचें तें चोरान नक्की केलें आनी राजाची वाट पळोवंक लागलो.

एक दीस राजा साधूंक मेळपाक रानांत आयलो. तो एक एक करून सगळ्या साधूंक मेळ्ळो. ताणें सगळ्यांक प्रस्न केलो, ''आमच्या जिविताचें कल्याण कित्यांत आसा?'' साधूंनी चोराक ज्यो जापो दिल्ल्यो त्योच राजाकूय दिल्यो.त्या चारूय साधुंनी दिल्ल्यो जापो आयकून राजा फुडें वचूंक वच जाल्यार ताका त्या जंगलांत पांचवो आनीक एक साधू नदरेक पडटा.ताका जंगलांत फकत चारूच साधू आसात म्हणपाची खबर आशिल्ली. मागीर

हो आनीक एकलो खंयच्यान आयलो काय असो राजाचे तकलेंत विचार आयलो. आसतूय बी पांच. आपल्याकूच सारकी खबर नासतली अशें चिंतून राजा त्या साधुलागीं गेलो. ताणें ताका नमस्कार केलो. ताच्या पांयां कडेन बसून ताणें हेर साधूंक विचारिल्लो तोच प्रस्न ताकाय विचारलो. म्हाराज, ''आमच्या जीवनाचें कल्याण कशें जातलें तें उपकार करून समजायात.''

साधून ताका विचारलें, ''हांव सांगतां तशें तंतोतंत करतलो?''

राजान म्हळें, ''हय म्हाराज. तुमी सांगतात तशेंच करतलों.''

साधुन म्हळें, ''जाल्यार आयक, कोणाचें मन दुखोवंक फावना.''

''हय म्हाराज, तशेंच करतलों. आनीक फुडें...''

''सदांच सत्य उलय.'' चोर साधून म्हळें.

''हय म्हाराज, तशेंच जातलें. आनीक फुडें कितें?''

''सतत देवाचें ध्यान कर. नांवाचो जप कर.''

''हय म्हाराज. आनीक कितेंय...''

''देवाक शरण वच. तूं सर्वस्वी देवाचो जा.''

''तशेंच घडटलें म्हाराज. आनीक कितेंय फुडें...''

''संत जें कितें सागतात तें सगलें आयकुपाचें. आनी ताच्या उपदेशा प्रमाणें चलपाचें.''

राजा खोशी जालो. ताका हेर सगळ्यांनी फकत एकेकूच गजाल सांगिल्ली. ह्या साधून मात एकदम पांच गजाली सांगल्यो. म्हणटकच होच साधू हेर साधुंपरस चड विद्वान आसूंक जाय अशें त्या साध्या भोळ्या राजाक दिसलें. ताका ह्या चोर साधुचो डाव कळ्ळोच ना. तो ह्या पांचव्या साधुचेर विस्वास दवरून आनंदान राज्यांत परतलो.

रात जातकूच चोर लिपत लिपत परत राजम्हालांत आयलो. राजा आपले राणये कडेन गजाली करतालो. चोर कान लावन तांच्यो गजाली आयकूंक लागलो. राजान राणयेक घडिल्ली सगळी गजाल सांगली. आपल्याक चारूच साधू आसात अशें दिशिल्लें, पूण थंय पांच साधू आसात, ताणीं कसो उपदेश केलो बी सांगून जातकच आपल्याक तो पांचवो साधूच सारको आनी सगळ्यां परस विद्वान दिसलो म्हणपाचेंय सांगलें. राणीय राजा वरींच साधी आनी भोळी आशिल्ली. राजाचें सांगणें तिकाय पटलें. ताणीं दोगांयनीय निर्णय घेतलो, आपल्या पुताक शिकपा खातीर ह्या पांचव्या साधुलागींच धाडपाचो.

तांचें उलोवप आनी निर्णय आयकून पयलीं चोराक खोशी जाली. तो थंयच्यान हळूच घरा गेलो खरो पूण ताचे तकलेंत तरांतरांचे विचार येवंक लागले. आपणें राजाक फटयलो तर खरें पूण हें साधुचें सवंग सारो तेंप तशेंच उरतलें म्हणपाचें सांगूंक येना. एकदीस पितळ उगडें जातलेंच आनी राजाक खरी गजाल कळ्ळे बगर रावचिना. राजा तेन्ना म्हाका कसोच सोडचोना. आपले करणेचो त्या चोराक पश्चताप जावंक लागलो. आपणें राजाक असो फटोवंक फावनाशिल्लें अशें ताका मनांतल्यान दिसूंक लागलें.

दुसरे दिसा चोर बेगीनूच उठलो आनी ताणें तडक रानाची वाट धरली. ताणें त्या साधुंपयकी एकल्याक सोदून काडलो आनी ताचो शिश्य म्हूण ताचे सरी रावलो. साधू कडल्यान शिक्षण घेतां घेतां ताका जिविताचो खरो अर्थ कळूंक लागलो. रानांतूच रावून

तो जिणेंचो खरो अर्थ सोदतां सोदतां खरेलोच साधू जावन गेलो. एका चोराचो साधू जावन तो लोकांक कल्याणाचो उपदेश करूंक लागलो.

बऱ्यांच्या सहवासान वायटूय एकदीस बरो जावंक पावता आनी वायटांचे संगतींत बरो मनीस इबाडूंक शकता म्हणटात तें लटकें न्हय.

**तात्पर्य :** *संगतीचो परिणाम खोलायेन जाता. बऱ्यांची संगत बऱ्याक पडटा. वायटांची संगत वायटाक पडटा.*



# सुखी कोण?



एका जंगलांत एक कावळो आसलो. तो खूब आनंदीत आसलो. ताका बरें खावंक मेळटालें आनी जाय तसो भोवूंक मेळटालें. तो खूब सुखी जीवन जगतालो. एक दीस ताका उदक पिता आसतना एक धवो फुल्ल हंस दिसलो. आपूण काळो आनी हंस पळे कसो धवोफुल्ल! देवान पळे कसो रंग दिला. हांवें कितें चूक केल्या जो हांव काळो जालों? हंस खूब सुखी आसतलो अशें

ताका दिसलें.

तो उडत हंसाकडे गेलो आनी हंसाक ताणें आपले विचार सांगले. हंसान म्हळें, 'खरें म्हळ्यार म्हाकाय अशें दिसतालें. पूण एक दीस हांवें एक बरो पोपट पळेलो. ताका बरेऽ दोन रंग आसले. तो बरोऽ झाडार बसून पेरां, आंबे, मिरसांगो खातालो. हांव बाबडो हांगाच उदकांत. म्हाका आतां दिसता की पोपट सगळ्यांत सुखी. हांव मात तेन्नाच्यान दुखी जालां.'

कावळो थंयच्यान उडत उडत पोपटाक सोदत गेलो. ताणें निमाणो पोपटाक गांठलो आनी आपल्या मनांतले विचार सांगले. पोपटान सांगलें, 'खरें म्हळ्यार म्हाकाय तशें दिसतालें. हांव खूब सुखी आसलों. पूण एक दीस हांव असोच उडून शेजारच्या गांवांत पावलों. थंय एक प्राणिसंग्रहालय आसा. थंय दोन तीन मोर आसात. तांकां पळे तरेतरेचे रंग आसात. म्हाका देवान दोनूच रंग दिल्यात. ताका मात खूब दिल्यात. तेन्नाच्यान हांव दुखी आसां. म्हाका दिसता जगांत सुखी मोर आसूंक जाय.'

कावळो उडत उडत शेजारच्या गांवांत गेलो आनी ताणें प्राणीसंग्रहालय सोदून काडलें. थंय ताका एका व्हडल्या पांदऱ्यांत तीन चार मोर दिसले. ते भितरूच पांखां फुलोवन भोंवताले. तांचीं इतल्या रंगाचीं पांखां पळोवन कावळो चकीत जालो. ताका दिसलें मोर सगळ्यांत सुखी आसूंक जाय. पांजऱ्या भोंवतणी खूब मनीस आसले आनी ते मोराक तोखेताले. कावळो खूब वेळ थंय रावलो. सगळो लोक वतकूच कोण ना सो पळोवन तो पांजऱ्यांत देंवलो आनी मोराक आपले विचार सांगले. मोरान सांगलें, 'म्हाकाय सदांच दिसतालें की ह्या जगांत सगळ्यांत सुंदर हांव म्हणून. म्हजे

सारको कोण ना म्हणून. पूण म्हज्या सुंदरकायेक लागून म्हाका पकडून ह्या पांजऱ्यांत घाला. म्हाका खूब लोक पळोवपाक येतात. म्हाका चाळयतात. एक एकदां बारीक फातरूय मारतात. म्हजें नशिबूच फुटकें. हांव सुखी कसो आसूं येतां? हांवें सगळो प्राणीसंग्रहालय भोंवून पळेलो. हांगा सगळीं जनावरां आनी पक्षी आसात. फक्त कावळे नात. म्हणून म्हाका दिसता ह्या जगांत सगळ्यांत सुखी कावळो. ह्या पांजऱ्यांत जीवन काडून कांयच अर्थ ना. तूं पळे कसो खोशयेन उडटा-भोंवता! गेले कितलेशे दीस हांव येवजितां, हांव कावळो जाल्लों जाल्यार कितलो सुखी आसपाचों. सगळें जगभर भोंवतलों आसलों.'

कावळ्याचे दोळे आतां उक्ते जाले. आपल्याक जें देवान दिलां तातूंत आपण सुखी रावूंक जाय, दुसऱ्या बरोबर आपूण तुलना करूंक गेल्यार आपुणूच दुखी जातां. कावळो तेन्नाच्यान सुखान जगूंक लागलो.

**तात्पर्य :** *आपल्याक जें लाभलां ताची खोस भोगची. जें लाभूंक ना ताचें दुख्ख करचें न्हय.*



# वांटणी



**म्हा**ळुमाम हो एक भाटकार. प्रतिश्ठीत मनीस. दयाळू, लोकांक उपकारा पडपी अशें ताचें गांवांत नांव आसलें. ताका दोन भुरगीं. व्हडली चली उषा आनी चलो संतोष. ताणें खूब कश्ट काडून भुरग्यांक शिकयलीं आनी तांकां बरें मार्गदर्शन दिल्लें.

करतां करतां भुरगीं व्हडलीं जालीं आनी ताणें बरोसो भुरगो सोदून उषाचें लग्न करून दिलें. तांचो सुखी संवसार पळोवन,

म्हाळुमामाक खोस आनी सूख भोगतालें.

तसोच संतोषाक ताणें बरो शिकोवन इंजीनीयर केलो. ताका बरी सरकारी नोकरी मेळ्ळी. ताचेंय लग्न जावन, म्हाळुमामाक जाय तसली सून मेळ्ळी. एकूण सगळो आनंदी आनंद. नातवंडां आनी तांचे लाड सगळें कितें वेवस्थीत.

आनी एक दीस अचानक हार्ट अटॅक येवन म्हाळूमामाचो अंत जालो. सगळो गांव दुख्खी जालो. अंतयात्रेक तुफान गर्दी जाली. लोक गेल्ल्या आत्म्याचें गुणवर्णन गांवंक लागले आनी अशेच दीस गेले.

पूण एक दीस संतोषाक धक्को बसपा सारकी गोश्ट घडली. तो दनपरां जेवंक बसला आसतना कोर्टाची नोटीस मेळ्ळी. उषाचो घोव अर्थात, विनयान आपल्या बायलेच्या नांवान हक्काचो वांटो मागलो आनी हांगा सरल्यान लढाय सुरू जाली. भयणीचें नातें तुटलें. पयसो आनी प्रॉपर्टी हेंच एक ध्येय. वर्सां गेलीं आनी शेवटी न्यायालयान निर्णय दिलो. पयसो आनी भाटाचे वांटे जाले. इतलें जावनूय शेवटीं शांती नाच.

भाटाची जेन्ना विभागणी जाली, तेन्ना एक माड बरोबर सीमेर पडलो. आतां हो माड कोणाचो हाचेर झगडीं सुरू. विनय शेवटीं वकीलच. ताणें परत कोर्टांत धांव घेतली. आतां ही गजाल वादाची जाली. संतोषूय आयकुपाक तयार नासलो. एक दोन वर्सांनी कोर्टान निर्णय दिलो. मदीं कोणूच पडचो ना. नाल्ल जाच्या भाटांत पडटलो ताचो तो नाल्ल जातलो. प्रत्येक दिसा संतोष आनी विनय आप-आपल्या भागांत पासयो घालूंक लागले. पुणून एकूय दीस ताका नाल्ल मेळ्ळो ना. फकत माडाक नाल्ल

दिसताले आनी पडलेलो नाल्ल वाटसरू घेवन वताले. अशें जातां जातां न कळटां वर्सां गेलीं. आनी एक दीस पावसा हुंवार आयलो. माड लकलो लकलो आनी धाडऽ करून जमनीर पडलो. पडलेलो माड पळोवन दोगूय दुख्खी जाले आनी विचार करूंक लागले. निमाणो विजय कोणाचो ?

**तात्पर्य :** *लोक आपल्या भितर झगडटात. आपलो वेळ आनी आरोग्य हाची हानी करून घेतात. झगडून होगडायल्लो वेळ आनी आरोग्य परत मेळना. आपले भितर वायटपण येता. अशें म्हणटात, शाण्या मनशान कोर्टाचें सोपण चडचें न्हय. आपले भितरूच आपलें झगडें सोडोवंचें. नाजाल्यार असल्या वेळार तिसरो मनीस ताचो लाभ घेता.*



# प्रारब्ध

**कां**य वर्सां आदीं गिमाच्या दिसांनी गंगोत्रीच्या माथ्यार शंकर आनी पार्वती पुनवेचे रातीची मजा घेतालीं. वारो वातावरणांत उमेद भरतालो, रातकिड्यांची किरकीर तितलीच कानाक खटकताली. इतल्यांत तांची नदर वाटेवेल्यान आपले तोखणायेचें भजन गायत वचपी मनशाचेर पडली. शिवरामाक तांणी सारको वळखलो.

भगवान शिवाचो भक्त, विश्वासू असो शिवराम दिसभर काम करतालो. कश्ट काडटालो आनी आपल्या घरच्यांक पावतली



इतली जोड जोडटालो. ताचे भायर मजा करूंक ताका परवडनासलें. काम करून, फाविल्ल्या वेळा देवाची सेवा करतालो.

देवी पार्वतीन ताका पळोवन भगवान शंकराक विचारलें, ‘‘तुमी वळखतात हाका?’’

शंकरान म्हळें, ‘‘हय.’’

पार्वतीन फुडें म्हळें, ‘‘इतलो तो तुजो भक्त, मागीर अशें गरिबीचें आयुश्य ताच्या वांट्याक कित्याक?’’

शंकर हांसलो. ‘‘तुका जर इतलें दिसता जाल्यार चल ताका श्रीमंत करतां.’’

भगवान शंकरान माणकां-मोतयां, हिरे-भांगर भरिल्ली एक पिशवी शिवरामाचे परतीचे वाटेर दवरली.

देवाचीं भजनां गायत शिवराम थंय पावलो. दोळे बंद करून भजनांत गूंग जाल्लो तो थंयच्यान फुडें गेलो. पोती ताचे नदरेक पडलीच ना.

देवी पार्वती आश्चर्यान भगवान शंकराक पळयत उरली. शंकरान म्हळें, ‘‘म्हज्या भक्तांक हांव फक्त मदत करतां. तांचें नशीब बदलूंक शकना.’’

पार्वतीक समजुपाचें तें समजलें.

**तात्पर्य :** *प्रारब्धान जें आसता तेंच मनशाक फावो जाता.*



# समेट

**खू**ब वर्सां पयलीं हिन्दुस्तानांत एक राजा राज्य करतालो. तो खूब श्रीमंत आसलो. ताचें राज्य सुखी आनी आनंदी आसलें. त्या राज्यांत शिस्त आसली आनी तातूंत बरो न्याय जातालो. लोकांक राजा खूब आवडटालो. राजाय लोकांचेर प्रेम करतालो. राजाच्या दरबारांत खूब ज्ञानी, हुशार आनी चालाख लोक आसले. राजा तांकां खूब मान दितालो.

राजाक तीन चले आसले. राजा तांचेर खूब मोग करतालो. ते राजाभशेनच शांत, दयाळू, मोगाळ आनी शिस्तीचे आसले. राजाकडें खूब संपत्ती आसली. तशे घोडे, हत्ती आनी गाय-गोरवां आसलीं. राजा आतां म्हातारो जायत आयलो. एक दीस तो हांतरुणार पडलो. सगळ्यांक चिंता जाली. तांच्या हकिमान सांगलें की राजा चड दीस वाचचो ना म्हणून. दरबारांतल्या थोड्या विचारवंत लोकांनी राजाक ताचें मृत्युपत्र करपाचो सल्लो दिलो. राजाक तो विचार पसंत पडलो आनी आपल्या भितरल्या विश्वासू लोकांकडेन ही जबाबदारी सोंपयली. राजाकडेन विचार आनी बोलणी करून निमाणें मृत्यूपत्र तयार जालें. त्या प्रमाणे अर्दी संपत्ती व्हडल्या चल्याक, उरल्या तातूंतली अर्दी म्हणजे एक



तृतियांश (१/३) दुसऱ्या चल्याक आनी उरिल्ली म्हणजे एक नवमांश (१/९) तिसऱ्या चल्याक. राजाच्या सहमतान ही वाटणी मानून राजान सय केली. आतां काय झगडीं झुजां जावचीं नात म्हणून दरबारांतल्या लोकांक आनंद जालो.

उपरांत एक दीस राजान आपलो निमणो स्वास घेतलो. सबंद राज्यांत दुख्खाचें सांवट पसरलें. अंतसंस्कार जालो. बारावो जालो आनी एक म्हयनो जातकूच दरबारांतले विचारवंत लोक संपत्तीची वाटणी करपाक एकठांय जाले. लागीं लागीं संपत्ती मृत्युपत्रा प्रमाण भागून दिली. चलेय खूश जाले. घोडे वाटून दिले, गाय-वासरां वाटून दिलीं आनी निमाणे हत्तीकडें पावून प्रस्न उबो जालो. राजाकडें सतरा हत्ती आसले. आतां हाची कशी वाटणी करप हें तांकां कळना जालें. राजाचो प्रधान अती हुशार. ताणें म्हळें हो प्रस्न आमी विचार करून सोडोवंचो. दुसऱ्या दिसा प्रधान आपल्या

घराकडल्यान एक हत्ती घेवन राजवाड्यांत आयलो. सगळे दरबारांतले लोक ताचे कडेन आश्चर्यान पळोवंक लागले. ताणें राजाच्या सतरा हत्तीं बरोबर आपलो हत्ती बांदलो. म्हणजे आतां एकूण अठरा हत्ती जाल्ले. आतां वाटणी सुरू जाली. अठराचे अर्द म्हळ्यार णव. व्हडल्या चल्याक ९ हत्ती दिले. अठरांचे एक तृतीय म्हणजे स हत्ती. दुसऱ्या चल्याक स हत्ती दिले. अठराचे एक नवमांश म्हणचे दोन हत्ती तिसऱ्या चल्याक दोन हत्ती दिले. उरलो एक हत्ती तो प्रधान आपल्या घराकडेन घेवन गेलो. तिनूय चले आनंदी जाले. लोकांकूय खूब आनंद जालो आनी ते प्रधानाचे हुशारकायेची आनी ज्ञानाची तोखणाय करूंक लागले. राज्य परत आनंदान चलूंक लागलें.

**तात्पर्य :** *देवान सगळ्यांक हुशारकाय आनी गिन्यान दिलां. ताचो सगळ्यांनी बरो आनी लोक कल्याणा खातीर उपेग करूंक जाय. म्हणजे आमचो देश आनी जनता सुखी जातली. हीच हुशारकाय जर लोकांक फटोवपाक वापरीत जाल्यार आपूण आनी आपले लोक दोगूय दुखी जातले. लोकांचो तुमचे वयलो विश्वास उडटलो आनी फटींग म्हणून लोक तुमकां पयस दवरतले. गरजेक सुध्दां मदत करचे नात.*





# सहकार्य

**रा**मबाब गांवांतलो एक प्रतिशठीत मनीस. वयान जाण्टो आशिल्ल्यान लोक ताका मान दिताले आनी ताचो सल्लो घेताले. तो तसो गिरेस्तूय आसलो. बंगल्यांत आपल्या भुरग्यां-नातरां वांगडा तो सुखान रावतालो. ताचें घरूय टापटीप आसलें. ताचें साल तर तो त्या भशेन दवरतालो. ताच्या सालांत एक पोन्नें



वण्टीक लावपाचें घडयाळ आसलें. ताचो तो कुमकळ पेंडुलम आनी ताचो व्हडल्यान टक् टक् आवाज. तशेंच बिनचूक वरां पळोवन सगळे सोयरे आनी लोक तोखेताले. रामबाबाकूय ताचो गर्व आसलो. तो प्रत्येक आयतारा ताका न विसरतां चावी दितालो.

एक दीस रामबाबागेर तागेले पयसुल्ले सोयरे आयिल्ले. तें घडयाळ पळोवन ताणीं ताची खूब तोखणाय केली. रामबाबय छाती फुडें करून तांकां सांगतालो, 'म्हज्या बापायन मुंबयचें हाडिल्लें हें घड्याळ. ताका केन्नाच हात लावंक ना. पडुंकना. सदांच बरो वेळ दाखयता. लोक आपले घड्याळीचीं हाका पळोवन वरां लायतात.' घड्याळ आपली टक्टक् करीत ताचें उलोवप आयकताली. थोड्या वेळान ते लोक वचपाक गेले.

आतां घड्याळाचे काटे आपल्या भितर उलोवपाक लागले. सेकंद कांटो म्हणूंक लागलो 'हांव इतलो धांवतां म्हणून सगळें बराबर चल्लां.' मिनीट कांटो म्हणूंक लागलो 'हांव चलतां म्हणून बरोबर वेळ दाखयतां. तूं चलना जाल्यार हांव वेळ दाखोवंक शकतां.' तास कांटो म्हणूं लागलो 'हांव सारकीं वरां दाखयतां. तुमी दोगूय जाण काम करिना जाल्यार लेगीत हांव वेळ दाखोवंक शकतां.' घेऽ! तांचे भितर झगडीं पेटलीं. ते तास कांट्याक म्हणटा, 'तूं येदो मोठो आनी मोटवो. तूं कितें चलूंक शकता? तूं एका दिसाक दोनूच पासयो मारता.' तो मिनीट काट्याक म्हणटा, 'तूं मात्सो म्हजे परस लांब आनी बारीक आनी तुका धावूंक येता जायत. पूण तुजे शिवाय म्हजें कांय अडना.' ते सेकंद कांट्याक चाळयताले, 'तूं बारीक किडकिडीत आनी लांब आनी पिसो कसो धांव धांव धांवता. कांयच अर्थ ना. आमी काम केल्या

शिवाय तुजो कांयच अर्थ ना.' ते झगड झगड झगडटात. दुसऱ्या दिसाच्यान ते कश्या कशेय वागूंक लागतात. एका मेकांकडें झगडूंक लागतात.

रामबाबाक तें पळोवन मात्सो शॉक बसलो. ताणें वेळ सारको करपाचो खूब यत्न केलो. पूण कांयच उपेग ना. तो ती घड्याळ घेवन घड्याळ सारकी करप्याकडेन गेलो. ताणें दोन हातोड्यो मारून ती सारकी केली. घरा हाडिनाफुडें घड्याळ पर्थून बंद जाली. पयलीं भशेनूच रामबाबान दोनदां हाड व्हर केलें पूण कांयच उपेग जालो ना. निमाणो रामबाब बेजारलो आनी ताणें घड्याळ कबाडीवाल्याक व्हरून विकली.

**तात्पर्य :** *आमी एकामेकाक समजून आनी सहकार्यान काम करूंक जाय. प्रत्येकान तरेतरेचें काम आनी वेवसाय करूंक जाय. तातूंत कमीपणां, व्हडपणां नासतात. जाचे ताचे पात्रते प्रमाण काम आसता. तें तशें केलें जाल्यारच आमची भरभराट जाता, उत्कर्शय जाता. झगडत बसल्यार गटरांत पावता.*



# ब्राह्मण जेवण

**खू**ब पयलींची गजाल. एका गांवांत एक गिरेस्त भाटकार आसलो. तो देवभक्त आसलो. मायेस्त आसलो आनी दानशूर आसलो. ताची बायलूय ताचे भशेनूच बऱ्या सभावाची आसली. तीं आयल्या गेल्ल्याक मदत करतालीं आनी गरज पडल्यार दानूय करतालीं. तांकां तीन भुरगीं, एक चली आनी दोन चले. घरांत कामाक दोन वावराडे आनी एक वावराडी आसली. एकूण संवसार खोशयेन आनी सुखान चलतालो. भाटकार घरांत कांयच कमी पडूंक दी नासलो.

भाटकार आपलीं भाटां आनी एक पसरो आसलो तो बरे भशेन चलयतालो. तो केन्नाच लोकांक फटयनासलो म्हणून गांवांत ताचें नांव आसलें. लोक ताका खूब मान दिताले. ताचो एक नेम आसलो की सदां दनपारचो तो देवपुजा करतालो, देवाक अन्नाचो निवेद दाखयतालो, कावळ्याक पान दितालो, ब्राह्मणाक जेवण दितालो आनी मागीरच आपूण जेवतालो. ताणें ब्राह्मण सोदून हाडपाक एक नोकरूच दवरिल्लो. ताचें काम गांवांत भोंवप आनी मेळटल्या ब्राह्मणाक घरांत हाडप. भाटकार ताचो मान सन्मान करतालो. ताका पोटभर जेवण वाडटालो. वतना ताका दक्षणा

दितालो. आशिर्वाद घेतालो आने निरोप दितालो. हो नित्य क्रम ताचो वर्सान वर्स सुरळीत चलिल्लो.

एक दीस ताचो नोकर गांवभर भोंवलो पूण ताका कोणूच ब्राह्मण मेळ्ळोना. जे मेळटाले ते तयार नासले. कोण म्हणटाले आपलें जेवण जालें, तर कोण म्हणटाले आपूण आज जेवचो ना. एकट्यान ताका तापोवनूच काडलो. 'आमी जेवंक येवपाक कितें उपाशीं पडल्यात? कितें तुमचेर विश्वास दवरचो? जेवणाचें निमित्त करून आमकां लुबाडूंक सुध्दां शकतात!' अशें करतां करतां ताका निमाणो एक ब्रामण मेळ्ळो. तो सारको ब्राह्मणाच्या भेसांत आसलो. माथ्याक फेटो, कपलाक नाम, खांद्याक झोळी. जरूय उशीर जाल्लो तरीय नोकरान सुटकेचो हुस्कार सोडलो, नाजाल्यार तोय उपाशीं उरतालो.

ब्राह्मणाक घेवन नोकर घरा आयलो. ताका पळोवन भाटकार एकदम खूश जालो. ब्राह्मणाक बरो येवकार दिलो. ताचो मान केलो. ताका हात पांय धुवूंक लायले, पाटार बसयलो. ताका विचारलें की 'तुमकां फल आहार काय अन्न जेवण जाय? दोनूय तयार आसा.' ब्राह्मणान म्हळें, 'अन्न जेवण.' भाटकारान तशें भितर सांगलें आनी ब्राह्मणाची पुजा केली. जेवण आयलें तशें उदक सोडलें. कावळ्याच्याय पानार उदक सोडलें. संवयेचें आसलें म्हणून कावळे भराभर अन्न व्हरपाक आयले.

पळेता जाल्यार ब्राह्मण भोग करिनासतनाच जेवपाक लागलो. भाटकाराक तें विचित्र दिसलें. भितरल्यान ताका राग आयलो. भाटकारान ताका म्हळें, ''पंडीतजी, तुमी भोग करिनासतनाच जेवणाक सुरवात केली?''

ब्राह्मणान जाप दिली, ''तुवें दान केलें, हांवें खालें, ताका भोगाची कितें गरज आसा?''

भाटकार म्हणटा, ''देवाचो भोग केल्या शिवाय दान पावना.''

ब्राह्मण - ''अहं ब्रह्मं. म्हाका दिलें देवाक पावलें आनी देव खंय आसा? तुवें देव पळेला? हांवेंय देव पळोवंक ना. जाल्यार जी गजाल पळोवंक ना ताका भोग कसलो?''

भाटकार, ''तुमी देव मानिना?''

ब्राह्मण, ''देव दिसना जाल्यार कसो मानतलों?''

हें आयकतकूच भाटकाराची तिडक तकलेक चडली. ताणें नोकराक आपयलो आनी तापोवन विचारलें, 'असल्या ढोंगी ब्राह्मणाक पारखी नासतना कित्याक हाडलो?' मागीर ब्राह्मणाचें पान काडून गोरवांक घालें आनी तसोच फरफटीत ब्राह्मणाक धरून भायर उडयलो. ताका वतां वतां 'नास्तीक, ढोंगी' म्हणून



चार गाळी संवल्यो.

भाटकारान रोखडोच नोकराक दुसरो ब्राह्मण सोदून हाडपाक धांवडायलो. नोकर तकलेर हात मारीत गांवांत धांवत गेलो. लागींलागीं सांजवेळचीं चार वरां जाल्लीं. सोदतां सोदतां निमाणो एक बरेऽ कपडे घाल्लो ब्राह्मण नोकराक मेळ्ळो. ताणें ब्राह्मणाक पांयां पडून घरा जेवपाक येवपाची विनवणी केली. ब्राह्मण तयार जालो आनी नोकर ताका घेवन घरा आयलो.

ह्या ब्राह्मणाचे कपडे, ऐट पळोवन भाटकार खूश जालो. फेटो चकचकीत, नामां भरपूर तकलेर, धवेंफूल पुडवें, बरोऽ शर्ट आनी सगळें टाकटीक. भाटकारान ताचो आदर सत्कार केलो. हात पांय धुंवक लायले. पुजा केली, पांयार उदक घालें आनी ताका विचारलें, 'पंडीतजी, तुमी फल आहार की अन्न भोजन करतले?'

ब्राह्मणान अन्न भोजन म्हणटकूच भरपूर अन्न भोजन आयलें. अन्नाच्या पाना कुशीक उदक सोडलें. शास्त्रोक्त भोग जालो. आशिर्वाद जालो आनी ब्राह्मणान भरपूर जेवन धेंकर दिलो.

धेंकर आयकून भाटकारय खूश जालो.

मागीर दक्षिणा, आशिर्वाद सगळें बरेभशेन पार पडलें. भाटकारय आनीक एका दिसाचें पुण्य गांठीक लावन खोशयेन लवंडलो. आज उशीर जाल्ले खातीर, भाटकार उसरां पसऱ्यार गेलो.

रात जातकूच परत घरा आयलो. रातची परत पुजा, नैवेद्य, जेवण, गजाली जावन भाटकार हांतरूणार पडलो. ताका पुरोऽ जाल्लें म्हणून रोखडोच दोळो लागलो.

मध्यान रात जातकूच ताका एक सपन पडलें. ताच्या सपनांत

देव आयलो. आपणाक देव दिसलो ह्या आनंदान ताणें ताका साश्टांग नमस्कार घालो. पूण देव ताचेर रागार आसलो.

भाटकारान ताका विचारलें, ''म्हजेर तुमी इतले रागार कित्याक?''

देवान म्हळें, ''हांव तुज्या घरा ब्राह्मणाच्या रुपान आयलों. तुवें म्हजो अपमान करून पाना वयलो धांवडावन दिलो.''

भाटकारान सांगलें, ''हांव तुमकां वळखलों ना.''

देवान सांगलें, ''हांवें तुका म्हजी वळख अहं ब्रहम म्हणून दिली. तें आयकुपाकूच तूं तयार नासलो आनी कोणाकूच पाना वयल्यान धांवडावपाचो तुका हक्क ना. तुवें म्हजें पान ओडून गायक घालें. तातूंत म्हजो आनी अन्नाचो अपमान जालो.''

भाटकार, ''म्हजी चूक जाली. म्हाका क्षमा करात.''

देव, ''तुमकां ढोंगी आवडटात. तुवें जाका जेवण दिलें तो ढोंगी. तूं ताका वश जालो. ताणें स्वार्थी मनान दिल्लो आशिर्वाद कसो पावतलो तुका? निस्वार्थी आनी गरिबाचो आशिर्वाद सदांच पावता हें लक्षांत दवर. तुवें कार्य केल्लें सगळें फुकट गेलें. आतां तरी भानार यो आनी परत सुरवात कर.''

भाटकार दचकून जागो जालो. काळखांत ताका खंयच देव दिसना जालो. तो सबंद रात दोळ्यांतल्यान दुकां काडीत हांतरूणार लोळत रावलो.

**तात्पर्य :** *दान करप म्हत्वाचें परंतू दान हें सत्पात्री आसूंक जाय.*



# राजनिर्णय

खूब पयलींची काणी ही. मध्य राज्यांत एक राजा आसलो. तो खूब दयाळू आनी आपले प्रजेक बरो करपी आसलो म्हणून तो लोकांक खूब आवडटालो. तोय आपल्या लोकांक सांबाळटालो. इतलेंय करून तो शिस्त आनी न्याय हाका पक्को आसलो. ताका कोणी चोरी करप, लोकांक नाडप, नागोवप आनी फटी उलोवप आवड नासलें. ताचे नदरेक पडल्यार तो तांकां कडक शिक्षा करतालो. एकूण सगळे लोक खोशयेन जगताले.

राजाक आपल्या राज्यांत कितें चल्लां, लोक आपल्या बद्दल कितें उलयतात हें सगळें जाणून घेवपाची उत्सुकताय आसली. तो आपल्या मंत्री, लोकां कडल्यान ही खबर काडटालो. ताचे भायर कोणाक नकळटां भेस बदलून आपल्या राज्यांत पासय मारतालो. खंयूय बसून लोक उलयताले तें कान दिवन आयकतालो.

एक दीस राजा सांजवेळचो भेस बदलून बाजारांत येवन चौकार बसलो. थोडे लोक दुर्गार बसून वारें घेताले आनी चकाटां मारताले. इतल्यांत राजाचे प्रधान आनी खजिनदार राजाक दिसले. त्या लोकांनीय तांकां पळेले. त्या लोकां भितरलो एकटो तांचेकडेन बोट दाखोवन म्हणूंक लागलो, 'हे पळे चोर आयले. दिसा उजवाडा

राजाच्या नांवान लोकांक नाडटात, चोरतात. राजाक बाबड्याक कांयच खबर ना आनी ताचो हांचेर विश्वास.' राजा कान दिवन आयकूंक लागलो. 'आज शाणुच्या दुकानार हल्लो.' एकटो म्हणूंक लागलो.

राजा पळेत रावलो. प्रधानान आनी खजिनदारान दोन तांदळाचे साक, दोन गंवांचे साक, दोन तुपाचे डबे, दोन तेलाचे डबे आनी



बाकिचें थोडें किरकोळ सामान गाड्यार घालें आनी गाडो आपल्या घराकडें धाडलो. दुकानदार बाबडो आपल्या पयशांक लागून तांचे पांय धरून रडूंक लागलो. दोगांयनी दुकानदाराक धमकी दिली आनी चलूंक लागले. राजा हें सगळें चौकार बसून मोन्यानी पळयतालो.

चौका वयले लोक उलोवपाक लागले, 'जाणां तूं? राजाकडें कोणूय पयशे मागूंक गेल्यार, राजा सदळ हातान प्रधानाक पयशे दिवपाक लायता. पूण प्रधान आनी खजिनदार थोडे दिता आनी

उरिल्ले दामता. वयल्यान धमकी दिता की कोणाकूय कळत जाल्यार परिणाम भोगचे पडटले. म्हणून लोक बाबडे ओगी रावतात.'

राजा हें आयकून दुखी जालो आनी मान सकयल घालून घरा गेलो. सबंद रात विचार केलो. राजाक उपाय सुचलो.

राजान दुसऱ्या दिसा प्रधानाक आनी खजिनदाराक आपयले आनी सांगलें की गांवांत अमक्या जाग्यार रामा नांवाचो भट रावता. ताचो चलो बरो ना. ताका पयशांची गरज आसा. आपल्या खजिन्यांतले तिनशें मोहर घे आनी सांजवेळां पांच वरां उपरांत ताच्या घरा पावय. प्रधानान हां म्हळें. राजा चार वरांचेर भेस बदलून भट जालो आनी थारिल्ल्या जाग्यार वचून बसलो. पांच वरां उपरांत प्रधान आनी खजिनदार आयलो. रामा भट तूं काय म्हणून राजाक विचारलें. हय म्हणनाफुडें राजान पयशे दिल्या म्हणून सांगून फक्त शंबर मोहर भटाक दिल्यो. 'दिलां तें घेवन ओग्गी बस. बोवाळ केल्यार वायट दीस येतले' अशें सांगून परत गेले.

राजान त्यो मोहरो घेतल्यो आनी राजवाड्यार परत आयलो. दुसऱ्या दिसा दरबार भरलो, शाणू पसरकाराकूय दरबारांत आपयलो. तो बाबडो भियेत भियेत आयलो. राजान प्रधानाक सगळ्यां हुजीर प्रस्न केलो, काल सांगलले ते पयशे पावयले काय म्हणून! प्रधानान व्हडल्या आवाजान हय म्हणून हांसत सांगलें. राजान ताका विचारलें, ''भटाक तिनशें मोहरो पावल्यो काय आनीक गरज आशिल्ली?''

प्रधान म्हणूंक लागलो, ''गरज आसा जाल्यार भटान कळयतां म्हणून सांगलां.''

राजान आपले कडल्यो शंबर मोहरो काडून प्रधाना मुखार धरल्यो आनी म्हळें, "ह्यो वळखता तूं?"

प्रधान घामाघूम जालो आनी सगळ्या दरबाराकडें पळोवंक लागलो. राजान सगळी घडिल्ली गजाल दरबारांत सांगली. राजान शाणू पसरकाराच्या दुकानार घडिल्लीय गजाल सगळ्यांक सांगली. प्रधानाक आनी खजिनदाराक जन्मठेप फर्मायली. दरबारांतले सगळेजाण खोशी जाले आनी आपल्याचेर असली परिस्थिती येवं नये म्हणून सांबाळून वागूंक लागले.

ही गजाल सगळ्या राज्यांत पसरली. जनता खोशी जाली आनी राजाचो जयजयकार करूंक लागली. जाण्टे लोक भुरग्यांक सांगूंक लागले, केन्नाच गुन्हो करचो न्हय, चोरी करची न्हय. निमाणें केन्ना ना केन्ना तरी ती उगड जाता आनी शिक्षा भोगची पडटा. नांव इबाडटा, समाजांत भोंवपाक मागीर लज दिसता.

**तात्पर्य :** *चोरी मारी क्वचीत केन्ना पचता. परंतू ती सदा सर्वदा पचना हें मतींत धरात.*



# पदस्पर्श



एका गांवांत एक मठ आसलो. त्या मठांत एक स्वामी रावतालो. तो खूब विद्वान आसलो आनी ताणें खूब कडक तपश्चर्या केल्ली. तो एक दीस ध्यान करता आसतना ताच्या म्हऱ्यांत एक सुण्याचो पेटो आयलो. मठांत रावलो आनी जेवन खावन व्हडलो जालो. बरोऽ कुत्रो जावन मठांत रावंक लागलो.

स्वामीच्या दर्शनाक आनी आशिर्वादाक खूब भावीक लोक येताले. एक दीस अशेंच एक मध्यम वयाचें जोडपें स्वामीच्या आशिर्वादाक आयलें. स्वामीक नमस्कार करतना त्या जोडप्यान आपलें मस्तक स्वामीच्या पांयार दवरपाचो प्रयत्न केलो. स्वामीन आपले पांय फाटीं घेतले आनी पादुको मस्तक लावपा खातीर फुडें

सोडल्यो. स्वामीन आपल्या पांयांचेर मस्तक दवरूंक दिलें ना म्हणून जोडप्याक भितरल्यान राग आयलो पूण ताणीं तोंडार दाखयलो ना.

थोड्या वेळान तो कुत्रो स्वामी म्हऱ्यांत आयलो आनी ताचे पांय चाटून थंयच लागीं बसलो. हें पळोवन त्या जोडप्यांतले बायलेक राग आयलो आनी तिणें स्वाम्याक प्रस्न केलो, ''आमी तुमच्या पावलांचेर मस्तक दवरपाचो यत्न केलो आनी तुमी पांय ओडून घेतले. आनी ह्या कुत्र्याक तेच पांय चाटूंक दिले. हाचो अर्थ कितें?'

स्वामीनी थंडपणान उत्तर दिलें, ''कुत्रो हो जनावर आनी तुमी मनीस होच मुख्य फरक. कुत्रो जनावर आसुनूय प्रामाणीक. ताका स्वार्थ ना. तो आमची सेवा करता. पूण ताची कांय अपेक्षा ना. तो निस्वार्थी, सात्वीक. आमचेर सगळ्यांचेर मोग करता. ताचेर थापट मारल्यारूय तो मोन्यानी आमचेकडें परत येता. ताका एकूच जीब आसा. तो हांगा एक, भायर दुसरें उलयना. तो आमच्या सगळ्यां पसून पयस जावंक शकना. तशें केल्यार तो प्राण सोडटलो. आमी ताचेर हल्लो केल्यार लेगीत तो आमचो केन्नाच सांगात सोडचो ना.''

हें सगळें आयकून त्या जोडप्याक आपली चूक कळ्ळी आनी ताणी स्वामीची क्षमा मागली आनी निरोप घेतलो.

**तात्पर्य :** *सदगूण जावन आसात मनीस कुळाचें भूषण. मनशान सद्गुणांचे सदांकाळ पालन करचें.*





# वाऱ्यार बंगले

खूब खूब वर्सां पयलीं, एका गांवांत रामभट म्हणून एक गरीब पूण विद्वान मनीस, गांव आनी शारा पसून खूब पयस रावतालो. रामभटाचे विद्वत्तेक कांय वाव नासली. तो तसोच गरिबींत जीवन जगतालो. कितलेशेच फावटी ताचेर उदक पियेवन न्हिदपाची पाळी येताली.

एक दीस असोच तो गांवांत भोंवतासतना एका घरांतल्या लोकांक ताची काकुळट आयली. ताणी ताका आपयलो आनी एक मडकी भरून गंवाचें पीठ दिलें. ताका सांगलें की हें पीठ घेवन घरा वच आनी चपात्यो करून खा. मडकी आपले तकलेर घेवन तो घरावटेन चलूंक लागलो. चलतां चलतां ताका पुरो जालें आनी तो एके न्हंयचे देगेर बसलो. मडकी सांबाळून पांयाकडेन दवरली. थंड वाऱ्यान ताका बरेंऽ दिसलें. थोडें उदकय पियलो आनी आपूण कसो गिरेस्त जातलों हाचेर विचार करूंक लागलो.

ताणें विचार केलो. आतां हें पीठ घरा व्हरच्या परस, समज हांवें विकलें जाल्यार म्हाका पयशे मेळटले. त्या पयशांनी हांव बोकडी घेतलों. बोकडी पोरां काडटली. म्हाका दूद मेळटलें, तें हांव विकतलों, पिलां व्हडलीं जातलीं. तींय पोरां काडटलीं. तींय दूद दितलीं. मागीर तांकां विकून हांव गाय घेतलों. तिका वासरूं



जातलें. तिचेंय दूद हांव विकतलों. मागीर आनीकूय वासरां जातलीं. खूब खूब दूद आसतलें. तें विकून हांव गिरेस्त जातलों. मागीर हांव लग्न जातलों. बायलेचेर मोग करतलों. थोड्या दिसांनी म्हाकाय भुरगीं जातलीं. हांव तांकांय मोग दितलों. तांकां खूब शिकयतलों. शिकना जाल्यार आनी मस्ती केल्यार हांव तांकां मारतलों. ह्या विचारांतूच ताणें सट्ट करून आपलो पांय फुडें केलो. तो पांय मडकेक लागलो आनी मडकी उदकान पडून व्हांवत गेली.

त्या आवाजान रामभट दचकून जागो जालो. पीठ उदकांत पडिल्लें पळोवन ताका धक्को बसलो. आता कितें करतलों अशें येवजून तो घरा गेलो आनी सदचे भशेन उदक पियेवन न्हिदलो.

**तात्पर्य :** *अशीं सपनां पळोवन कांयच उपेग ना. आपणें प्रामाणीकपणान काम करून जीवनांत वयर सरूंक जाय. जें अशक्य आसा ताचीं सपनां पळोवन वेळ होगडावंक जायना.*



# हुशार आनी ज्ञानी



**खू**ब खूब वर्सां पयलीं एका जंगलांत एक धवो सोंसो रावतालो. त्या जंगलांत गोबरे, काळे सोंशे आसले. पूण तांच्या कळपांत होच एक धवो सोंसो. तो सुंदर आसलो हातूंत दुबावच नासलो. पूण तो हुशारूय आसलो. ताच्या हुशारकायेची बाकिच्या सोंश्यां भितर खूब चर्चा जाताली आनी कितेंय प्रसंग आयल्यार सल्लो घेवपाक बाकीचे सोंशे ताचेकडेन येताले. ताका हाचेविशीं थोडो गर्वूय आसलो.

ताका असो भोंवता आसतना एक कोलो मेळ्ळो. उलयतना

तांची दोगांयची दोस्ती जाली. ताणें सोंश्याची तोखणाय केली. ताणें म्हळें, 'सोंश्या तूं इतलो सुंदर, शाणो, तुका तेज आसा. तूं हुशार पूण तुका जाय तें ज्ञान ना. हें जर तुका ज्ञान प्राप्त जालें जाल्यार तुजी किर्ती फक्त तुज्या कळपांत न्हय तर सगळ्या जंगलांत पसरतली.' सोंसो विचारांत पडलो की आतां हें ज्ञान कशें मेळोवचें? ताणें कोल्याक हाचेर उपाय विचारलो. कोल्यान सोंश्याक सांगलें की हांगा लागींच एक न्हंय आसा. न्हंयच्या काठार एक व्हडलें झाड आसा. त्या झाडा सकयल तूं सुर्य देवाची तपश्चर्या कर. सुर्यदेव प्रसन्न जातकूच ताका नमस्कार कर आनी ताचे कडल्यान ज्ञान मागून घे. हें सोंश्याक पटलें आनी तो आनंदी जालो.

दुसऱ्याच दिसा सोंसो सकाळीं उठून सूर्य उजवाडचें पयलीं न्हंयेर गेलो. न्हंयेंत बरे भशेन न्हालो आनी झाडा सकयल तपश्चर्या करूंक बसलो. सोंश्यान जवळ जवळ एक म्हयनोभर कठोर तपश्चर्या केली. ताची ही तपश्चर्या पळोवन सुर्यदेव खूश जालो आनी एक दीस फांतोडेर सुर्यदेवान ताका दर्शन दिलें. सुर्यदेवाचें रूप आनी तेज पळोवन सोंसो थक्क जालो. थोडोवेळ भांबावलो, पूण आपणाक सावरून ताणें देवाच्या पांयार लोटांगण घालें. सुर्यदेवान ताका अचळय उठयलो आनी म्हळें 'हांव तुजें प्रेम, श्रध्दा आनी तप पळोवन खूश जालां. तुका जाय तो वर माग.' सोंश्यान नमस्कार करून म्हळें, 'देवा तुवें म्हाका सगळें दिलां. हांव तुमचो खूब रुणी आसां. म्हजेकडेन ना तें ज्ञान दिवन म्हाका

ज्ञानी कर आनी हांव तुमचे सेवेंत म्हजें आयुश्य घालयतलों.'

सुर्यदेवान सोंश्याक सांगलें, 'हांव तुका ज्ञानी करतां पूण ताचे पयलीं म्हज्यो कांय अटी आसात. त्यो पूर्ण कर आनी म्हजेकडे यो. हांव तुका ज्ञानी जावपाचो वर दीन.' सोंश्यान म्हळें, 'म्हाका कितलेय त्रास पडूं, हांव जिवाची पर्वा करी नासतना सगळ्यो अटी पूर्ण करतां.' सुर्यान सोंश्याक तीन अटी सांगल्यो. 'पयली अट, ह्या न्हंयच्या तळाकडें एक मोठें नुस्तें रावता. म्हाका ताचीं खवळां घेवन यो. दुसरी अट – ह्या जंगलांत गवी म्हस रावता. म्हाका तिचें दूद घेवन यो आनी तिसरी अट – ह्या जंगलांत एक वाग रावता. म्हाका ताचो दांत हाडून दी.' सोंश्यान देवाक नमस्कार करून 'हां' म्हळें आनी सुर्यदेव मळबांत गेलो.

सोंश्यान हाचेर थंड बसून खूब विचार केलो. निमाणो ताचो प्रस्न सुटलो. ताका एक आयडिया सुचली. ताणें एक घुमट घेतलें आनी सरळ न्हंयचे देगेर गेलो.

तो जोराजोरान तें घुमट वाजोवंक लागलो. घुमटाचो ताल आयकून व्हडलें नुस्तें वयर आयलें. सोंशान घुमट जोरजोरान वाजयलें, तशें तशें नुस्तें जोरा जोरान नाचूंक लागलें. ताचीं खवळां उदकांत पडलीं आनी व्हांवत देगेर आयलीं. तीं सगळीं खवळां एकठांय करून सोंश्यान जंगलांत धांव मारली.

दुसरे दिसा सोंसो जंगलांत जंय गवी म्हशी रावताल्यो थंय गेलो. एका झाडार चडून बसलो आनी म्हशीक ओगीच चाळोवपाक लागलो. म्हशीक राग आयलो. सोंश्यान सांगलें की तुका कांय

शक्ती ना. ओगीच खावन तूं लठ्ठ जाल्या. तुका खरीच जर शक्ती आसा जाल्यार हांव बसलां तें झाड उडोवन दाखय. गवी म्हस धांवत आयली आनी तिणें शिंगांनी झाडाक धक्को दिलो. तिचीं शिंगां झाडांत अडकलीं. सोंसो देंवलो, तिचें दूद मडकेंत काडून घेतलें आनी जंगलांत परत गेलो.

तिसरे दिसा सोंसो वागाचे धोलीकडेन गेलो. ताची धोल दोंगराचे कडेर आसली आनी देंवपाक कडक उतरण आसली. सोंश्यान ताच्या दारांत थोडीं नुस्त्याचीं खवळां उडयलीं आनी ताचेर थोडें दूद शिंपडायलें. सोंसो लागींच झोंपांनी वागाची वाट पळेत लिपून बसलो. थोड्या वेळान वाग भायर सरलो. सदचे भशेन वयर पळेत तो चलतालो. इतल्यान ताचो पांय निसरलो



आनी गडगडत सकयल पावलो. वाटेर ताचें तोंड एका खडपाक आपटलें आनी दांत जमनीर पडलो. सोंश्यान तो दांत घेतलो आनी जंगलांत धांव मारली.

सुर्यदेव मळबांत रावन सोंश्याची वागणूक पळेतालो. सोंसो खूब खूश जालो. ताचें कार्य बरे भशेन साध्य जाल्लें. ताका जाय तें सगळें मेळ्ळें. तो आतां सपनां पळेतालो. हांव हें सगळें सूर्यदेवाक दितलों आनी सुर्यदेव म्हाका ज्ञानी करतलो.

चवथ्या दिसा फांतोडेर सोंसो न्हंयचे धडेर पावलो, न्हांवन स्वच्छ जालो आनी सुर्यदेवाक प्रार्थना केली. सुर्यदेव प्रगट जालो. सोंश्यान नमस्कार केलो आनी ताणें नुस्त्याचीं खवळां, गवी म्हशीचें दूद आनी वागाचो दांत सुर्यदेवाक अर्पण केलो. सुर्यदेव हांसलो आनी सोंश्याचें अभिनंदन केलें. सुर्यदेवान सोंश्याक सांगलें, ‘तूं हुशार आसा, पूण तुका ज्ञान ना. जगांत कोणाय प्राण्या कडेन तीन गजाली आसूंक जाय. शुरताय, बरे विचार आनी दुसऱ्या विशीं बरो समज आनी वागणूक. बरो समज आपल्या लोकांविशीं आनी दुसऱ्या जनावरांविशीं. सोंश्या तूं शूर आसा. थोडी हुशारी आनी बरे विचार तुजेकडे आसात. पूण दुसऱ्या विशीं तुका समज आनी बरी वागणूक बिलकूल ना. आपलें काम साध्य करपाक तूं दुसऱ्याक फटयता हें समा न्हय. हाचे फुडें तुका नुस्तें दिसलें, गवी म्हस दिसली वा वाग दिसलो जाल्यार तांच्या म्हऱ्यांत उबो रावूं नाका. तूं धांवून खंयतरी वचून लीप.’ सोंश्याक सुर्यदेवान सगल्याचो

अर्थ समजयलो सोंश्यान सगळें समजून घेतलें आनी धांवत परत जंगलांत गेलो.

**तात्पर्य :** *आमचो समज आसता की हुशार मनीस ज्ञानी आसता म्हणून! हुशारी आनी ज्ञान ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली आसा. ज्ञानी मनीस हुशार आसूंक शकता. हुशार मनीस थोड्या वेळा पुरतो सुखी जावंक शकता, तोय बी कितलेशेचदां दुसऱ्याक फटोवन. ज्ञानी मनीस सदां आनंदी रावंक शकता आनी ताचो आनंद खूब वेळ तिगता. आपल्या स्वार्थाक लागून दुसऱ्याक फटोवंक जायना. तें उगडकीक आयल्यार, सकयले मानेन जगचें पडटा.*



# विश्वास

**खो**ल म्हणून एक सुंदरसो गांव आसलो. एके वटेन उंच दोंगर, ताचे सकयल कांय घरां, फुडें शेतां आनी एक न्हंय थंय व्हांवताली. दोंगरार जंगल आसलें आनी तें पावसा दिसांनी पांचवेंचार दिसतालें. पावसा दिसांनी काळींच कुपां दोंगरार देंवतना पळोवपाक खूब मजा येताली. दोंगरार एक मारुतीचें देवूळ आसलें. लोक ताका गडा कडलो मारुती म्हणटाले. शेनवारचो तर गांवांतलो



लोक चुकनासतना शेंदूर आनी तेल घेवन देवळांत वताले. तांच्या म्हणण्या प्रमाण मारुती तांकां राखतालो आनी पावतालो.

त्या गांवांत एक गणू म्हणून मनीस रावतालो. तो गरीब आसलो. सकाळचो गांवांत मजुरी करप आनी सांजवेळां दोंगरार जळोव एकठांय करून घरा हाडप. थोडो जळोव घरा वापरप आनी उरलेलो गांवांत विकप. असो ताचो क्रम आसलो. ताची मारुतीचेर श्रध्दा नासली. ताणें सदांच म्हणप की म्हाका मारुतीन गरीब कित्याक दवरला? म्हणून तो देवळांत केन्ना भितर सरऽ नासलो. ताका दिसतालें की बेठोच कित्याक वेळ घालोवंचो. तो देवळाच्या कुशिच्यानूच दोंगरार वयर सकयल येतालो वयतालो पूण चुकून सुध्दां भितर सरऽ नासलो.

असोच एक दीस गणू दोंगरार गेल्ले कडेन वारो सुटलो आनी काळोख जावन आयलो. थोड्या वेळान पावस शिडशिडूंक लागलो म्हणून मेळटा तें लाकूड घेवन गणू घराकडें परतूंक लागलो. देवळाकडें पावता म्हणसर पावसाची एक जोरान सर आयली. गणू देवळाचे पडवेर भितर सरलो. तो भिजिल्लो. तसोच ते पडवेर बसून रावलो. पूण देवळांत भितर गेलो ना. पावसा दडक कमी जाता म्हणसर किण्ण काळोख जालो.

आतां पावस बारीक शिडशिडटालो. रस्त्यार काळोखूय जाल्लो. गणून लाकडां भरो तकलेर घेतलो आनी बेगीबेगीन घरा वचपाक भायर सरलो. पावसान रस्तो बुळबुळीत जाल्लो. पांच स पावलां घाल्यां मात गणूचो पांय बुळबुळीत खडपा वयल्यान निसरलो. सांबाळपाक गणून भऱ्या वयलो हात सोडलो आनी झाडाचे एके खांदयेक गोळोव मारलो. तो तसोच हुमकळत उरलो. ताका

जमीन कितली खोल आसा ती काळखांत दिसनासली. ताका हात सोडूंक भंय दिसतालो. तो तसोच लोकांक उलो मारूंक लागलो. किंळच्यो मारतालो. पूण आयकुपाक कोणूच लार्गी नासलो. एके वटेन पावस पडटालो. गणू तसोच हुमकळटालो. रात चडत आसली. किड्यांचो कीर कीर आवाज जोराजोरान येतालो. गणूक कितें करचें कळना जालें. निमाणो उपाय म्हणून तो मारुतीक उलो घालूंक लागलो. म्होडकें तोडकें हनुमान स्तोत्र व्हडल्या व्हडल्यान म्हणूंक लागलो. आनी गाराणें घालें, 'म्हाका वाचय, हांव प्रत्येक शेनवारा तुज्या देवळांत येतां. तुका शेंदूर तेल चडयतां.' आनी तो आतां परत परत स्तोत्र म्हणूंक लागलो.

निमाणें मारुतीकूच ताची काकुळट आयली. ताणें साद्या एका राखण्याचें रूप घेतलें. आनी गणुचे वटेन चलूंक लागलो. काळखांत कोण तरी येता हें गणूक पावलांच्या आवाजान कळ्ळें आनी तो व्हडल्यान किंळच्यो मारून ताका आपल्याकडें आपोवपाक लागलो. राखणो हळू ताचेवटेन येतासो पळोवन गणून हुस्कार सोडलो. तो लार्गी येनाफुडें गणू गयावया करीत ताचेकडें आपणाक सकयल देंवोवपाची भीक मागूंक लागलो. राखण्यान ताका सांगलें की तूं खांदयेवयले हात सोड, हांव तुका धरून सकयल देंवयतां. गणूक ताचेर विश्वास बसलो ना. तूं आपणाक सकयल उडयतलो म्हणून तो हात खांदयेक घट्ट धरून रावलो. राखण्यान ताका सांगलें की ताचे पांय आनी जमीन हांचे भितर फक्त एक फुटाचें अंतर आसा आनी तूं कसोच पडचोना. गणूचो ताचेर कसोच विश्वास बसना जालो. निमाणे राखण्यान ताका सांगलें की हाचे वयर हांव कांयच करूंक शकना. तुजो म्हजेर विश्वास ना जाल्यार हांव चल्लों.

अशें म्हणून राखणो चलूंक लागलो. गणून ताका गाळ घाली आनी तसोच लोंबकळत रावलो.

इतल्यांत रात बरीच जाली. थंडीय वाडूंक लागली आनी गणू हळुहळू थकूंक लागलो. मर्दी मर्दी पावसूय येतालो. गणू इतलो थकलो की ताका डुलकी आयली. ताचे हात खांदये वयले निसरले आनी गणू जमनीर पडलो. पळय जाल्यार राखण्यान ताका खरें सांगिल्लें. तो सकयल पडून ताका थोडोसो मार लागलो. ताणें जर राखण्याचेर विश्वास दवरिल्लो जाल्यार तो इतल्यान घरा पावपाचो. फुडले एक-दोन आठवडे ताका आपले चुकीची याद येताली. ताच्या अणभवान आतां गणू शाणो जालो आनी लोकां भशेन तोय देवळांत वचूंक लागलो.

**तात्पर्य :** *आमच्या जीवनांत आमी देवाचेर आनी आमच्या मनशांचेर विश्वास दवरूंक जाय. देवाचेर श्रध्दा ना जाल्यार आनी आपल्या सरभोंवतणच्या लोकांचेर विश्वास ना जाल्यार आपूण स्वताच दुख्ख ओडून घेतां. विश्वास आमकां धीर दिता. दुबाव आमकां दुख्ख दिता आनी मन विचलीत करता.*



# चकाटां

**सो**क्रेटीस म्हणून ग्रिस देशांत एक व्हड बुदवंत आनी तत्वज्ञानी मनीस जावन गेलो. एक दीस सोक्रेटीसाच्या एका मित्रान ताका ताच्या दुसऱ्या मित्राविशीं गजाली सांगपाक सुरवात केली.



सोक्रेटीसान ताका रोखडोच थांबयलो आनी म्हळें म्हाका म्हज्या त्या मित्राविशीं गजाली सांगचे पयलीं म्हज्या तीन प्रस्नांच्यो जापो दी.

पयलो प्रस्न – 'तूं जी गजाल सांगपाची आसा ती खरी काय फट?' ताच्या मित्रान म्हळें, 'हांवें ती आयकल्या. म्हाका खबर ना की ती खरी काय फट ती.'

सोक्रेटीसान सांगलें, 'जांव! आतां म्हजो दुसरो प्रस्न – तूं जी गजाल सांगतलो ती बरी काय वायट?'

ताच्या मित्रान सांगलें की ती खबर वायट.

सोक्रेटीसान ताका तिसरो प्रस्न केलो. 'म्हाका ती खबर आयकून कितें फायदो आसा?'

मित्रान म्हळें, 'कांयच ना.'

जाल्यार सोक्रेटीसान सांगलें की जी गजाल आयकून म्हाका कांयच फायदो ना. जी म्हाका दुख्खी करतली आनी जी खरी काय फट हेंच जर तुका खबर ना जाल्यार ताचेर फुकट वेळ कित्याक घालोवंचो आनी आमी दुख्खी जावचें? हाचे परस तोच वेळ आमी बऱ्या कामाक वापरुया. आमी आयुश्यांत कितलोसोच वेळ विनाकारण चकाटां मारून घालयतात. आमकां उब्या आयुश्यांत खूब वेळ कमी आसा तो आमी असो कित्याक होगडावचो?

**तात्पर्य :** *मनशाचे जिणेक मर्यादा आसता. उजू वावर करपा खातीरूच जीण सारप हें योग्य.*



# अनुकरण



**शा**ळेची वर्सुकी परिक्षा आतांच सोंपलेली. सगळ्या भुरग्यांक सूऽ जालें आनी आतां सुटी कशी घालोवंची हाचो विचार चलिल्लो. रमेश, उमेश आनी सुरेश हे चवथेची परिक्षा दिवन आतां पांचवेक वचपाक पळेताले.

रमेशाचो बापूय एक बरो कलाकार. तो बरो चित्रां रंगयतालो आनी तरेतरेच्यो रंगीत वस्तू तयार करतालो. रमेश सांजेच्या वेळार हें बारकायेन पळोवन आनंद भोगतालो.

उमेशाचो बापूय बरो वाजयतालो आनी गातालो. सदां सांजवेळची ताची तालीम चलताली आनी उमेश मग्न जावन तें आयकतालो.

सुरेशाचो बापूय मात अशें व्हडलेंशें कांयच करी नासलो. तो सदां घरा सोरो पियेवन येतालो. लकतालो. कित्या कितेंय बडबडटालो आनी बायलेक मारतालो.

रमेश, उमेश आनी सुरेशान येवजीलें की आयज सांजवेळा आमी दोंगरार फिरूंक वचुया. वेळ पक्को जालो आनी ते सांजवेळार फिरपाक भायर सरले. भोंवतां आसतना तांकां  दोंगरार तीन एकेच तरेच्यो बाटल्यो मेळ्ळ्यो. तिगांयनी एक एक बाटली उखल्ली आनी ते घरा परतले.

घरा येतकूच रमेशान आपली बाटली स्वच्छ धुली आनी बरी रंगयली. ते बाटलेचो ताणें सुंदर फ्लॉवर पॉट तयार केलो आनी तातूंत फुलां घालून मेजार दवरलो.

उमेशानूय आपली बाटली धुली आनी तातूंत फूंक मारून सुंदर आवाज काडूंक लागलो.

सुरेशाक मात कांयच सुचना जालें. शेवटीं ताणें ती तोंडाक लायली आनी सोरो पियल्ले भशेन करूंक लागलो. आपले धाकटे भयणीक लागीं घेवन गाळी सवूंक लागलो आनी ताचेर थापटां मारलीं. तें बाबडें रडरडत आवयकडे धांवलें.

**तात्पर्य :** *घरांत जशे आवय बापूय वागतात, जशें वातावरण तयार करतात ताचोच परिणाम कंवळ्या भुरग्यांच्या मनार जाता. घरांतलें वातावरण जर आनंदी आसल्यार, क्रिएटीव्ह आसल्यार ते प्रमाण भुरगीं मार्ग धरतात आनी तांचो फुडार बरो जाता.*



# धर्म

गंगा न्हंयचे तडीर एक ल्हानसो गांव आसलो. गांव एकदम शांत, लोक दयाळू, गरीब स्वभावाचे आनी चडशे शेतकरी. लोकांचो देवाचेर खूब विश्वास आसलो. त्या गांवांत एक रुशी आसलो. खूब तेजवंत, सात्वीक, ज्ञानी आनी गांवांतल्या लोकांक मदत करपी. लोक ताका तितल्याच मानान वागयताले. तो सदांच गंगेचेर वचून न्हातालो आनी मठांत येवन पाठ पुजा, अर्चा करतालो. लोकांकूय शिक्षण दितालो.



एक दीस रुशी सकाळीं फुडें सदचे भशेन न्हावंक गंगेचे तडीर गेलो. न्हाता आसतना ताका एक विंचू उदकांत उफेतना दिसलो. तो बुडटालो. ताका वाचोवपा खातीर रुशीन आपलो हात ताका आदार दिवपा खातीर पोंदा धरलो. विंचवान ताका नांगी मारली. रुशीक भयंकर वेदना जाल्यो आनी ताणें विंचवाक उदकांत उडयलो. विंचू परत उदकांत फडफडूंक लागलो. आपल्या वेदनांची काळजी करिनासतना रुशीन ताका परत आपल्या हातार घेतलो. मात्सो फुडें व्हेलो. परत विंचवान नांगी मारली. दुक, सणसण सोसूंक नज जावन रुशीन ताका परत उदकांत उडयलो. अशें कितलेशेच वेळ चल्लें. पूण रुशीन आपले प्रयत्न सोडले नात. निमाणो रुशी देगेर आयलो. ताणें विंचवाक जमनीर सोडलो. आपलो हात सांसपीत, वेदना सहन करीत ताणें देवाक नमस्कार केलो. आपलें न्हाण पुराय करून कांठार आयलो. जरूय ताचो हात सणसणटालो, तरूय ताच्या तोंडार आपणें बरें काम केल्ल्याचो हांसो आसलो.

हें सगळें एक शिकारी झाडार बसून आश्चर्यान पळेतालो. ताका रावना जावन तो झाडावयल्यान सकयल देंवलो, रुशीक नमस्कार केलो आनी विचारलें, 'तो विंचू तुका परत परत नांगी मारता आसतना, तें सगळें सहन करून ताचो प्राण कित्याक वाचयलो?'

रुशी ताका पळोवन हांसलो आनी ताका म्हळें, 'तो विंचू अज्ञान. ताका समज नासलें की म्हजो हात ताका वाचोवपाचो प्रयत्न करतालो म्हणून. ताचो मेंदू एकमद धाकटो आसा आनी ताका कळना खंयचो हात ताका सांबाळटा आनी खंयचो हात ताका मारता. नांगी मारप हो ताचो धर्म आसा आनी तो स्वताच्या

रक्षणा खातीर तो वापरता. म्हाका समजता, म्हजो मेंदू हें सगळें ओळखूंक शकता आनी म्हजो धर्म खंयच्याय प्राण्याक वाचोवपाचो. म्हाका बरो आत्मो वा वायट आत्मो लागना. म्हज्या दोळ्यांक सगळेच बरे आत्मे. हांवें जर विंचवाचो जीव वाचोवंक नासलो जाल्यार म्हजी इतल्या वर्सांची तपश्चर्या उदकांत वतली आसली. हांव म्हजो धर्म कसोच सोडूंक शकना. तो कितलोय कठीण प्रसंग आसूं नाजाल्यार ताचे खातीर म्हाका कितलेंय दुख्ख भोगचें पडूं. देव आमची सतत परिक्षा घेत आसता.' हें आयकून शिकारी शांत जालो आनी ताणें रुशीक नमस्कार करून क्षमा मागली.

**तात्पर्य :** *जिवनांत आमकां सगळ्यांक धर्म, ध्येय आनी कर्तव्य आसता. तें सहज मेळना आनी तें मेळपाक कश्ट काडचे पडटात. आमी आमचो धर्म सोडूंक जायना. देव आमची परिक्षा घेत आसता आनी आमी आमच्या कर्तव्याक जागूंक जाय. सदांच बरें करीत वचूंक जाय आनी मदतीचो हात फुडें करूंक जाय. हाचोच अर्थ धर्म असो आसा.*



# उडान



एक उंच झाडार एके घोणीच्या जोडप्याचो घोंटेर आसलो. तातूंत एक घोणीचें जोडपें रावतालें. ताका सुंदरशीं तीन पिलां जालीं. जोडपें सकाळीं उठप, उडत गांवभर भोंवप आनी पिलांक जेवण एकठांय करून हाडप करतालीं. अशें जातां जातां पिलां व्हडलीं जालीं. तांकां आतां उडपाक शिकोवपाचो वेळ जालो. जोडप्याक भंय दिसूंक लागलो. जर उडटा आसतना सकयल जमनीर पडलीं जाल्यार आपटून मरतलीं म्हणून! ताणें खूब विचार

करून दीस काडले. रातींच्या राती ह्याच विचारान न्हिदो खळयल्यो.

पूण निमाणो तो दीस उजवाडलोच. ताणीं मन घट केलें. देवाक पांयां पडलीं आनी सकाळीं फुडें एका पिलाक हळूच घोटेरांतल्यान भायर लोटलें. तें फडफडून पांखां हालोवन भूर्रर करून उडून गेलें. जोडप्याक थोडें बरें दिसलें. ताणें हळूच दुसऱ्याक लोटलें आनी तिसऱ्याक लोटलें. तिनूय पिलां मजेन हवेंत उफेवंक लागलीं. एका झाडावयल्यान दुसऱ्या झाडार झेप घालूंक लागलीं. हें पळोवन जोडप्याक खूब खोस जाली आनी तींय तांचे बराबर उडूंक लागलीं.

**तात्पर्य :** *जीवनांत आपल्या फुडाराक लागून कितलेचदां भंय दिसल्यार सुध्दां कार्य करचें पडटा. तातूंतच मनशाक धीर येता आनी तो फुडें पावल घालता. धीर आनी प्रयत्न केल्या शिवाय मनीस फुडें पावना.*





दोतोर उल्हास नास्नोळकार आपलीं माणकुलीं नातरां,
रुही आनी रिया हांचे सांगाताक



आमच्या गोंयचे एक व्हड नामनेचे दोतोर बाब उल्हास नास्नोळकार हांचो 'आणकु माणकुल्यो - काणयो दोतोराल्यो' हो काणयां झेलो बालसाहित्याचो एक उत्कृश्ट नमुनो. दोतोराची शब्दकळा सोबीत, सादी, रोसाळ. उतरां प्रवाही, भुरग्यांक सहज समजतलीं अशीं. काणयो आशयान उपाट भरिल्ल्यो आसात. तो आशय आपल्या काळजांतल्यान भुरग्यांच्या काळजांत पावोवपाचो वावर दोतोरान फिशालकायेन केला.

- प्राचार्य माधव कामत




ISBN 9789384951955

9 789384 951955

मोल: ₹80